# भुरग्यांखातीर काणयो

भाग-1

अणकार
रामनाथ मं. मणेरकार



बालसाहित्य-२

# भुरग्यांखातीर काणयो

(सत्य साईबाबांनी सांगिल्ल्यो मनशाच्या कल्याणाच्यो
ल्हान-ल्हान देखदिण्यो काणयो.)

भाग एक

(स ते णव वर्सांच्या भुरग्यां खातीर)

कोंकणींत रूपकार
**रामनाथ मं. मणेरकार**

**संजना पब्लिकेशन्स**
**सांगें-गोंय**

# मांडावळ

## भाग एक

(दुसरे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या पयल्या वर्साक)



## भाग दोन

(तिसरे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या दुसऱ्या वर्साक)

## भाग तीन

(चवथे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या तिसऱ्या वर्साक)

## जय श्री साई राम
## रुपांतरकारालीं दोन उतरां

श्री सत्य साई Book and Publication Trust, Prashanti Nilayam, हे संस्थेन उजवाडायिल्ल्या भुरग्यांखातीर काणयो Part I &Part II ह्या पुस्तकांचो हों अणकार केला ताचेर म्हगेलीं हीं दोन उतरां बरयल्यांत.

श्री सत्य साई बाबांलीं पुस्तकां चाळटना हीं दोन पुस्तकां भाग-१ आनी भाग-२ म्हज्या हाताक लागलीं. हीं पुस्तकां हांवें पयलीं केन्ना तरी घेतिल्लीं. गेल्ल्या पंदरा दिसां पयलीं हांवें तीं परतीं वाचलीं. आनी म्हाका दिसलें, सध्याचे परिस्थितींत हीं पुस्तकां ल्हान भुरग्यांक हांची शिकवण दिवन तांच्या सुप्त गुणांची वाड जावपाक खूब म्हत्वाचीं थारतलीं. ह्या अणकारान ज्या उद्देशान तीं बरयल्यांत ताचें चीज जातलें.

पयलींच्या काळांत घरांत कुटूंब व्यवस्था आसताली आनी तेन्ना घरांतल्या सगळ्या भुरग्यांक खबरी सांगपाच्या नांवान

देखदिण्यो काणयो सांगप जातालें. आनी हें काम घरांतलीं जाणटेलीं, आजो-आजी, करतालीं. भुरग्यांक आपसुकच देख मेळटाली. समाजांत कशें वागपाचें, जाणट्यांक आदर, मान कसो दिवपाचो, सत्य, निती कशी पाळपाची, बरे संस्कार, बरे गूण कशे आपणावपाचे, देव, दानधर्म हांचेविशीं ज्ञान, भक्तीची ओड हे सगळे संस्कार भुरग्यांचेर ल्हानपणा सावन जाताले. आनी तांकां आपल्या फुडले वाटचालींत जेन्ना ह्या संस्कारांची चड गरज लागता तेन्ना ती उणीव स्वाभावीक रितीन आपशींच भरुन येताली. आनी ताका लागून जिणेंत वायट संवयो, व्यसनां हांचे कडेन फाट जाताली. जीण सुख-समाधानान फुडली वाट चलताली.

पूण आयच्या काळांत ती परिस्थिती चडशी उरूंक ना. कुटूंब व्यवस्था मोडकळीक आयल्या. आनी भुरग्यांल्या आवय-बापांयक तांकां घेवन बसून काणयो, खबरो, गजाली करपाक वेळ आसना. कारण परिस्थितीच बदल्ल्या आनी त्या खातीर तांकां दोश दिवप बरोबर न्हय.

नव्या नव्या काणयां रुपान तांचेर संस्कार करपाची जबाबदारी साहजीकच प्राथमीक शिक्षकांचेर, आंगणवाडी, बालवाडी हांचेर येता. त्या खातीर ह्या देखदिण्या काणयांचो तांगेल्या शिक्षणांत आस्पाव जावप हें अत्यंत म्हत्वाचें आनी गरजेचें जावन आसा. ते दृश्टीन NCERT हे संस्थेन ८३ मानवी मुल्यां पुस्तकांतल्यान उजवाडायल्लीं. आनी हांवें वयर उल्लेख केल्ल्या दोनूय भागांनी

तांचो काणयांत अंतर्भाव केल्लो आसा. आनी वयर उल्लेख केल्ले संस्थेन ल्हान ल्हान भुरग्यांच्या मनांत हीं मुल्यां तांकां सोपीं करून शाळेंतल्यान दर आठवड्याक एका वराचो वा दोन वरांचो खासा वेळ दिवन प्राथमीक शाळांनी मुजरत हीं मुल्यां तांच्या मनांत घालपाची तसदी घेवप खूब म्हत्वाचें आनी खूब गरजेचें. कारण तांचे फुडले जिणेचे वाटचालींत ह्या मुल्यांचो खूब खूब आधार मेळून तांची जीण सुखी-समाधानी जातली.

आतां तुमकां कळटलें, ह्या मुल्ल्यांचें म्हत्व कितलें आसा आनी आमचे निजाचे भाशेंत तांचो आस्पाव कितलो गरजेचो आसा. आज आमी समाजांत पळयतात, मनीस कितलो अस्थीर, चिंतेन ग्राशिल्लो, असमाधानी आनी उचंबळीत जाला. ताचीं कारणां खूब आसात पूण तातूंतलें मुखेल कारण म्हणल्यार आपल्या पुरतें पळोवपाची संकुचीत दृश्टी, स्वार्थ, अहंकार, स्वता विशीं चुकीचें मुल्यमापन, दुस्वास, न सरणारी आस्त आनी खुबशीं. हाका लागून तो सदांच अशांत, चिंतेस्त, प्रेम, भाइचारो हांची वानवा, सत्य, निती हांची पायमल्ली, भूतदया, दुसऱ्यां विशीं समजिकाय, सोशीकताय हांची कमतरता आदी.

NCERT हे संस्थेन उजवाडायिल्लीं ८३ मानवी मुल्यां हीं ह्या पुस्तकाचे प्रस्तावनेंत सविस्तर आस्पावल्यांत. तुमकां तीं वाचल्यार कळटलीं. शक्यतों ह्या मुल्यांचो, भाग-१ आनी भाग-२ हातूंत बरयिल्ल्या काणयांनी आस्पाव केला देखून ह्या दोनूय पुस्तकांक खूबच म्हत्व आयलां. हीं पुस्तकां तुमी मुजरत वाचून

पळोवचीं हो म्हगेलो तुमकां नमळायेचो आग्रो. ह्या पुस्तकांच्या अणकाराक श्री बाबांनीच म्हाका प्रेरणा दिल्या आनी तांगेले प्रेरणेक लागूनच तांचो अणकार म्हाका सोपो जाला. तशेंच तांणी उजवाडावपाक आपली मान्यताय दिल्या.

सगळ्यांक बरें मागून म्हगेलीं दोन उतरां सोंपयतां.

रामनाथ मं. मणेरकार
सांगें-गोंय

जय श्री साई राम

सत्य साईबाबांनी सांगिल्ल्यो मनशाच्या कल्याणाच्यो ल्हान - ल्हान देखदिण्यो काणयो.

## भाग एक

(दुसरे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या पयल्या वर्साक)

## १. प्रार्थना

किरण हो आपल्या आवय-बापायलो एकलो एकसुरो चलो. तो आज्ञाधारक. शाळेंत आनी घरांत बरे तरेन वागपी. सगळ्यांचे अपुरबायेचो आनी शाळेंतल्या गुरूजीचो आवडटो विद्यार्थी. आपल्या गोड सभावान सगळ्यांक ओड लावपी. अशे देखीचो मोगाळ भुरगो.

किरण फकत धा वर्सांचो आशिल्लो तरी तो आपले आवय

बापूय घरांत कशे वागतात हें बारीकसाणेन पळयतालो आनी आपुणूय तेच तरेन वागपाचो प्रयत्न करतालो. तागेलो बापूय प्रांताचो जुवीज आशिल्लो. प्रामाणीकपण आनी योग्य न्याय दिवपांत ताणें खूब नामना जोडिल्ली. सभावान सादो, राहणीन सादो. अख्ख्या गांवांत बरो मनीस म्हूण लोक आदरान ताचेकडेन पळयताले. किरणाली आवय देवीची मना सावन भक्ती करताली. तें जोडपें देवभक्त, आयिल्ल्या गेल्ल्याक गरजेक पावपी आनी बऱ्या सभावाचें आशिल्लें.

किरणाचें आपल्या आवय बापायचेर खूब प्रेम आशिल्लें आनी ताका तांचो खूब अभिमान दिसतालो.

किरणाक सदांच अजाप दिसतालें, आपले आवय बापूय देवाक खूब मान आनी म्हत्व दितालीं. आत्र्या-पयऱ्यान तो आवयक विचारतालो, "आई, दर आयतारा बाबा शिवाच्या देवळांत वचून सत्संगांत भाग घेता, थंयच्या अडाणी खेडुतांत मिसळटा, तशेंच तूंवय बी दोळे धांपून सांजे न्हिदतना आनी सकाळीं ध्यान करता, जप करता. तुमकां तातूंत कितें मेळटा? दर दिसा तूं वरांचीं वरां दुर्गा मातेची पुजा करता. तुमकां हो फुरसतीचो वेळ बऱ्या कामा खातीर वापरूंक जायना?" किरणाली आवय मुमुरख्ें हांसून आपले भितर म्हणटाली, "माते दुर्गे, किरण अजून अजाण आसा. तो सामको सादो भोळो आसा. ताका क्षमा कर. तुगेले श्रध्दा आनी भक्तीची ताका गोडी लाय. आनी ताका तुगेलो आशिर्वाद दी."

एका सांजेवेळां किरण सदां भशेन स्कुलांतल्यान घरा येता आसतना तागेल्या शेजाऱ्यान ताका एक वायट बातमी दिली. एके गाडयेन ताच्या बापायक धक्को दिवन सकयल उडयलो आनी तो आतां हॉस्पिटलांत सकाळच्यान बेशुध्द आसा. किरण धांवत हॉस्पिटलांत वता आसतना ताची नदर ताचे आवयन सुंदर रितीन फुलांनी सजयल्ले दुर्गा देवीचे मुर्तीचेर पडली. ताका सट्ट करून आवयल्या उतरांची याद जाता. तिणें ताका सांगिल्लें आसता, देवी दुर्गा माता ही शक्ती माता आसा. ती जगांतल्या सगळ्या प्राणिमात्रांची आवय आसा. ती सगळ्यांचो सांबाळ करता. ती सर्व शक्तिमान आसा. तिका सदांच नमस्कार करचो. किरण आपल्या जोडिल्ल्या हातांनी, दोळ्यांतल्यान दुकां गळयत तिका काकुळटेन सांगता, "दुर्गा माते, तुका खबर आसा, हांव खीण भर पसून बाबा शिवाय रावपाक शकना. ताचेर कृपा कर आनी तागेलो जीव वांचय." अशें म्हणून, देवीक साश्टांग नमस्कार घालून तिच्या पांयांकडलें एक तांबडें फूल ताणें उबारलें आनी नीट हॉस्पिटलांत गेलो. किरण बापायले कुशीक बसलो. बेशुध्द आशिल्ल्या बापायक पळोवन ताका रडूंक आयलें. ताणें आपले आवय कडेन पळयलें. ती दोळे धांपून ध्यानांत आनी प्रार्थनेंत मग्न जाल्ली. तिचें मुखामळ शांत आनी आत्मविश्वासान उजळिल्लें. हें सगळें पळोवन ताणें आपलीं दुकां पुसलीं आनी ल्हवूच आवयच्या कानांत फुतफुतून सांगलें, "आई, हांवें दुर्गा मातेच्या पांयांकडलें फूल हाडलां." किरणान तें फूल बेशुध्द बापायच्या कपलार ल्हवूच भोंवडायलें. पुतालीं उतरां आयकून आवयन ल्हवूच

दोळे उकते केले आनी तेन्नाच किरणाल्या बापायक शुद्ध आयली. ताणें आपले दोळे उकते केले.

किरणालो बापूय इल्लो इल्लो शुद्धीर येवपाक लागलो. दोतोर येतकच ताका तपासलो आनी सांगलें, "थोड्या दिसांनी तो सामको बरो जातलो. देवानच ताका वाटायलो." त्या दिसाच्यान किरणान देवाचे कृपेचो अणभव घेतलो आनी तो बदल्लो.

तागेलो बापूय म्हयन्या भरांत बरो जावन घरा आयलो. बापायन आपल्या किरणाच्या सभावांत खुबूच बदल जाल्ल्याचें पळयलें. किरण आवयच्या सांगातान आपूणय देवाचें ध्यान करपाक लागलो. पुजा करतना आपूण तिका मदत करपाक लागलो. सुटयेंत आपल्या बापाय वांगडा देवळांत वचूंक लागलो. सुटयेंत ताणें स्वामी विवेकानंद, जेजू ख्रिस्त, गौतम बुद्ध हांचीं पुस्तकां वाचून काडलीं.

किरणाक आतां कळून आयलें, स्रद्धा, भक्ती, प्रार्थना हांचे साधनेंत रोग बरे करपाची क्षमता आसता. साधनेन तुमचीं काळजां आत्मविश्वास, संयम, धीर हांणी सशक्त जातात आनी आपल्याक योग्य मार्गार हाडटात.

* * *

## २. संवसारांत खंयचीच वस्त निरुपयोगी आसना

पयलीं तेंपार भुरगे आपल्या शिक्षणा खातीर गुरुकुलांत गुरुच्या हाता खाला रावताले. थंय विद्या, ज्ञान मेळयलें म्हणटकर गुरुले आशिर्वाद घेवन घरा येताले आनी घर-संवसारांत पडटाले.

एक पावट दोन शिश्य गुरुकूल सोडपा वेळार गुरु म्हन्यांत गेले. तांणी गुरुक विचारलें, “गुरुदेव, गुरुदक्षिणा म्हूण आमी तुमकां कितें दिवपाचें?” गुरुक तांगेलें आपल्यावेलें प्रेम पळोवन आनी आपणें दिल्ल्या विद्येची याद दवरून विचारिल्ल्या प्रस्ना खातीर भुरग्यांची अपुरबाय दिसली. तांगेले शिस्तीचे वागणुकेक लागून गुरुचेंय तांचेर प्रेम आशिल्लें. तांणी ह्या भुरग्यांल्या ज्ञानांत आनी थोडी भर घालची अशें थारायलें. तांणी तांकां सांगलें, “मोगाळ भुरग्यांनो, आमच्या गुरुकुला फाटल्यान आशिल्ल्या रानांत

वचून कोणाकच उपेग नाशिल्लीं सुकीं पानां सोदून हाडात.''

भुरग्यांक हें आयकून थोडें अजापच दिसलें. गुरुंनी अशी विक्षिप्त गुरुदक्षिणा कित्याक मागली काय? ते गुरुली आज्ञा मानून रानांत गेले. रानांत भितर सरतांच एके कडेन सुकिल्ल्या पानांची रास केल्ली दिश्टी पडली. तांणी म्हणलें, ''ही रास बरी आसा. आमी हातूंतलींच थोडीं पानां व्हरुंया.'' अशें म्हणून तांणी थोडीं पानां व्हरपाक उबारलीं. इतल्यांत एक शेतकार धांवत आयलो.ताणें सांगलें, ''हीं पानां हांवें म्हगेल्या शेता खातीर जमयल्यांत. हीं शेतांत व्हरुन पातलावन उजो लायतकच गोबोर जातलो. तो म्हगेल्या शेतांत चड भात पिकयतलो. तुमी पानां घेतल्यांत जाल्यार परतीं राशींत उडयात.''

भुरग्यांनी ती रास सोडली आनी फुडें गेले. थंय तिगी बायलो पडिल्लीं पानां एकठांय करताल्यो. ''ह्या पानांचें तुमी कितें करतलीं?'' भुरग्यांनी तांकां विचारलें. ''मोगाळ भावांनो, हीं पानां व्हरुन रान्नींत घालून उदक तापयतलीं. आमकां न्हावपाक, पिवपाचें उदक तापोवपाक तांचो उपेग जाता,'' एकटेन सांगलें. दुसरेन म्हणलें, ''हांव पानां व्हरुन तांच्यो पत्रावळी लायतां. आनी त्यो आस्रमांत आनी देवळांत विकून म्हाका थोडे पयशे मेळटात. तातूंतल्यान घर-संवसाराक मदत जाता.'' तिसरेन सांगलें, ''हांव हीं जमोवन घरा व्हरतां. म्हगेलो घरकार वैद्यकी करता. ह्या पानां पसून तो काढे करता आनी कितल्याशाच रोगांचेर ताचो उपेग जाता.''

भुरगे आनी फुडें गेले. थंय तांकां दाट रानांत एका झाडाच्या मुळांत सुकीं पानां दिसलीं. इतल्यान एका व्हडल्या पक्षान झाडा वेल्यान झेप घेतली आनी एक एक पान घेवन वचूं लागलो. भुरग्यांनी पळयलें, तो पक्षी थोड्यो काडयो, सुकें तण आनी हीं पानां व्हरुन आपलो घोंटेर बांदतालो. पक्षाक जाय आशिल्लीं पानां आपणें व्हरप तांकां मानवलें ना.

दोगूय भुरग्यांनी गुरुकुलांत परत वचपाचें थारायलें. वाटेर तांकां उदकाचें एक ल्हानशें कोंड दिश्टी पडलें. तातूंत एक व्हड सुकें पान पडिल्लें. तांणी चिंतलें आतां हेंच पान व्हरुंया. हाचो कोणाक उपेग ना. तांणी त्या पानाक हात घाल्लो मात इतल्यांत दोन मोठे तांबडे दोमळे त्या पानार भोंवतात ते तांणी पळयले. तांणी पानाक हात लायल्या बरोबर ते दोमळे भोंवपाचे थांबले. तांकां दिसलें हे दोमळे आपल्याक सांगतात, "हें पान म्हणल्यार आमगेले जिणेचें व्हडें. हाणें आमचो जीव वाटायलो नाजाल्यार आमी उदकांत पडून मरपाचे. हें पान आमकां जाय. तुमी तें व्हरुं नाकात."

मागीर कांय घेनासतना ते गुरुकुलांत परत आयले. आनी गुरुक सांगलें, "गुरुदेव, आमी सगळें रान भोंवले. पूण आमकां ज्याचो कोणाकच उपेग ना अशीं पानां मेळ्ळीं नात. सुक्या पानांचो पसून कितेंय ना कितेंय उपेग जाता म्हूण तुमी मागिल्ली गुरुदक्षिणा आमी तुमकां दिवंक शकनात."

गुरुंनी सांगलें, "भुरग्यांनो, म्हगेली गुरुदक्षिणा म्हाका मेळ्ळी.

तुमगेल्या ज्ञानांत आनी थोडी भर पडची म्हूण हांवें तुमकां रानांत धाडले. जें ज्ञान आज तुमकां मेळ्ळां तीच म्हगेली खरी गुरुदक्षिणा. एक सुकें पान लेगीत मनशाक कितलें उपेगाक येता. मनशांकच न्हय तर पक्षांक, जीव-जंतूंक सगळ्यांक उपेगाक येता. जेन्ना मनीस आपले कुडीचो बऱ्या कामा खातीर उपेग करता तेन्ना ही कूड कितली मोलादीक आसूं फाव. देखून आपले कुडीची जतनाय घेयात. आनी हे कुडीचो तुमची आनी दुसऱ्याची जीण सुखी करपाक उपेग करात. गरजवंतांक, दुयेंतींक आनी जाणटेल्यांक आदार करपाची एकूय संद सोडूं नाकात. आज शिकिल्लो हो म्हत्वाचो धडो जिवितांत केन्नाच विसरूं नाकात.”

* * *

## ३. प्रामाणीकपण

एका खेड्यांत एक गवळी रावतालो. ताचें नांव रामू. ताका सगळें खेडें एक प्रामाणीक मनीस म्हणून वळखतालें. ताका दोन पूत आशिल्ले. तांचीं नांवां सूर्या आनी चंद्रा. रामू सदांच आपल्या पुतांक सांगतालो, "हें पळयात, केन्नाच कोणाक फटोंव नाकात, नाडूं नाकात. प्रामाणीकपणा आनी कश्टच तुमकां जिणेंत शांती आनी समाधान दिवंक शकतात."

एक दीस रामून आपल्या पुताक सुर्याक रानांत म्हशी चरोवंक व्हेल्यो ना म्हूण बरोच तापयलो. सुर्याच्या मनाक तें इतलें लागलें कीं आपूण परतो येवचों ना असो निश्चय करून ताणें घर सोडलें.

जाणटेल्या रामूक जेन्ना जेन्ना सुर्याची याद येतालीं तेन्ना तो चिंतेन दुख्खी जातालो. आपल्या मरणाच्या थोडे दीस पयलीं रामून चंद्राक सांगलें, "म्हज्या मोगाळ पुता, तुगेल्या भावाक सोदून काडपाक शिकस्तीचे प्रयत्न कर. तागेल्या कपलार आशिल्ले मोठे काळे मावेचे खुणेन तूं ताका वळखतलो. आमगेल्या धा म्हशींतल्यो तांगेल्या वांट्याच्यो पांच म्हशी ताका दी." रामूच्या मरणा उपरांत सुर्या मेळत हे आशेन चंद्रा ताका लागशिल्ल्या खेड्यांतले दर एके जात्रेंत, मेळ्यांत सोदूंक वचूंक लागलो. पूण ताचे सगळे प्रयत्न फुकट गेले.

एक दीस चंद्रा आपल्यां म्हशींक चरोवन रानांतल्यान घरा परततालो. वाटेर ताका एक परकी मनीस एका झाडा मुळांत बशिल्लो दिसलो. जसो चंद्रा ताच्या लागीं पावलो तसो त्या मनशाच्या कपलार एक मोठी काळी माव पळोवन ताका अजाप जालें. तो ताका आपलो भाव म्हूण वळखलो. पूण ताच्या आंगावेले कपडे पिनके आनी म्हेळे आशिल्ले. तें पळोवन चंद्राक खूब वायट दिसलें. ताणें म्हणलें, "असले पिनके कपडे घालून असली दुख्खी दळिद्री जीण कित्याक सारता? म्हज्या बरोबर घरा यो. आमच्या धा म्हशींतल्यो तुगेल्या वांट्याच्यो पांच म्हशी घे. आनी दूद लोणी विकून सुखी जीण जिये". सुर्या आपल्या भावा वांगडा घरा आयलो. पूण तो एक शब्द पसून उलयलो ना. दोगय भाव बरोबर जेवले. उपरांत चंद्रान एक जाजम पातलायलें आनी ताचेर दोगूय सुस्त न्हिदले.

सदचे भशेन चंद्रा सकाळीं जागो जालो. पळयल्यार सुर्या ना आनी गोठ्यांतल्यो पांच म्हशीय नात. ताच्या मनांत एक दुभाव आयलो. ताणें चिंतलें, सुर्याक अशो म्हशी घेवन पळून कित्याक वचूंक जाय आसलें? सुर्या म्हणून दुसरो कोणय चोर येवन म्हशी घेवन गेलो ना मू? पूण थोड्या वेळान थंड चित्तान विचार करून ताणें मनाची समजूत घाली. "हांव प्रामाणीक आसां. पिताजीन सांगिल्लें तशें हांवें केलां. देव हाका गवाय आसा. हांवें मागीर चिंता कित्याक काडपाची?"

थोड्या दिसांनी एक सुंदर बैलगाडी चंद्राल्या घरा मुखार थांबली. चंद्रान सहज भायर पळयलें. ताका अजाप जालें. कपलार एक मोठी काळी माव आशिल्लो एक मनीस गाडयेंतल्यान देंवतालो. आज ताच्या आंगार उंची कपडे आशिल्ले आनी तो गिरेस्त सो दिसतालो. तो सामको चंद्राच्या म्हऱ्यांत आयलो आनी ताणें हांसून म्हणलें, "भावा, तूं म्हाका वळखलो ना?" चंद्रान दुखेस्त जावन म्हणलें, "म्हज्या भावा, हांव तुका वळखलों. पूण हांवें एक व्हड चूक केल्या. तूंच अशें समजून हांवें दुसऱ्या कोणाक तुज्या वांट्याच्यो पांच म्हशी दिवन उडयल्यो. पूण तें कितेंय जावं. म्हजे चुकी खातीर तुका लुकसाण जाल्लें म्हाका बरें दिसचें ना. हांव तुका म्हज्या वांट्याच्यो पांच म्हशी दितां."

हें आयकून सुर्यान ताका वेंग मारली आनी सांगलें, "म्हज्या मोगाळ चंद्रा, तुवें कांयच चूक करूंक ना. त्या वेळार हांवच पिनके,

म्हेळें कपडे घालून तुगेल्या प्रामाणीकपणाची परिक्षा घेवंक आयिल्लों. खऱ्यांनीच तूं आमच्या पिताजी इतलो प्रामाणीक आसा आनी तें पळोवन म्हाका खूब खोस जाता. हांवें फळां-भाज्जेचें दुकान घालां. पिताजीच्या आशिर्वादा लागून म्हगेलो व्यापार बरो चलता. ह्या व्यापारान म्हाका गिरेस्त केला. शारांत म्हगेलें व्हड घर, ही बैलगाडी आनी फळांची एक बाग आसा. हांव तुका म्हज्या वांगडा रावपाक शारांत व्हरूंक आयलां. हांवें बाजारांत तुजे खातीर एक कूड घेतल्या. थंय तुज्यान दुदाची डेरी चलोवंक जाता आनी दूद आनी मिठाय विकूंक जाता.''

दोगूय भाव एकमेकाच्या हातांत हात घालून भितर गेले आनी बापायच्या फोटवा म्हऱ्यांत उबे रावून तांणी सांगलें, ''पिताजी तुमी आमकां सदांच प्रामाणीकपणान वागपाक शिकयलें. तुमचे सारखे पिताजी आमकां मेळ्ळे म्हूण आमी खूब भाग्यवान आसात. आज आमचें प्रामाणीकपणच आमकां शांती आनी आनंद दिता. कितलोय पयसो आसलो म्हूण मनशाक शांती, आनंद मेळना.''

* * *

## ४. सत्य म्हणल्यार देव (I)

व्हड मनशाच्या आंगांत आदर्श सद्‌गुणां पैकीं सत्या विशीं आग्रो आन प्रेम होवूय एक सद्‌गूण आसताच. ल्हानपणा सावन सत्यान वागल्यार देवाक आनंद जाता अशें ते मानताले. ह्याच सत्या विशींच्या प्रेमान तांकां तांचे फुडले जिणेंत जगांतल्या वायटा कडेन असत्या कडेन झगडपाची शक्त दिल्या. ही अनमोल शिकवण आमकां स्वामी विवेकानंदा सारखे संत वा देशभक्त लोकमान्य टिळक हांचे सारकेल्यांचे जिणेंतल्यान मेळटा. तांच्या भुरगेपणांत लेगीत तांणी देवाक जितलो आदर दितात आनी देवाचेर जितलें प्रेम करतात तितलेंच प्रेम सत्याचेर केलें आनी ताका आदरय दिलो.

स्वामी विवेकानंदांक शाळेंत नरेंद्र दत्त म्हूण वळखताले.

ल्हान भुरगो आसतना लेगीत ताचे धिटायेचो आनी सत्या विशींच्या प्रेमाचो आवय-बापायक अभिमान दिसला. नरेंद्र चुकून लेगीत फट उलयनासलो. तशेंच ताचे कडल्यान चूक घडल्यार ती कबूल करपाक तो केन्नाच खांकुडलो ना.

एक दीस तांगेलो वर्ग शिक्षक भुरग्यांची भुगोलाची तोंडी परिक्षा घेतालो. भुरगे क्रमान प्रस्नांची उत्तरां दिताले. अशें करतां करतां नरेंद्रा म्हऱ्यांत बसपी भुरग्याची पाळी आयली. शिक्षकान ताका एक कठीण प्रस्न विचारलो. त्या भुरग्यान अनमनतच भीत भीत त्या प्रस्नाचें उत्तर दिलें. अकस्मात शिक्षक आड्डुलो. “हेंच तुगेलें भुगोलाचें ज्ञान? हांव वर्गांत शिकयतां तेन्ना तुमी लक्ष दिनात आनी घरा कडेनय अभ्यास करिनात.” शिक्षकान आपल्या हातांतली वेताची बडी उबारून भुरग्याक हात फुडें करपाक सांगलो. पूण भुरग्याच्या हातार बडी पडचे पयलींच नरेंद्र उबो रावलो. आनी ताणें धिरान शिक्षकाक सांगलें, “सर, तो भुरगो बरोबर आसा. ताचेर बडी मारूं नाका. तागेलें उत्तर बरोबर आसा.” शिक्षक दोळे मोड्डे करून नरेंद्रा कडेन पळोवन आड्डुलो, “तूं म्हाका भुगोल शिकयता? यो, तुगेलो हात फुडें कर.” नरेंद्रान आपलो हात फुडें केलो आनी शिक्षक सपासप हातार बडयो मारीत रावलो. पूण नरेंद्र परत-परत एकच सांगतालो, “सर, ताणें बरोबर उत्तर दिलां. तागेलें उत्तर बरोबर आसा.” पूण शिक्षक कसोच आयकना जालो. तो नरेंद्राच्या हातार बडयो मारीत रावलो. निमाणें माराची दूख सहन जायना जावन नरेंद्रान काकुळटेन सांगलें, “सर, भुगोलाचें पुस्तक

काडून वाचून पळयात. हांव सत्यच उलयतां.”

सत्य हें उतर शिक्षकाच्या काळजाक लागलें. आपूण नरेंद्राक फट थारायतलों म्हूण ताणें भुगोलाचें पुस्तक उगडलें. तो प्रस्न आनी ताचें उत्तर आशिल्लें पान काडून सवका वाचूंक लागलो. भुरगे शिक्षकाच्या तोंडा कडेन पळयत आशिल्ले. ताचें तोंड पडलें. भुरग्यान दिल्लें उत्तर बरोबर आशिल्लें.

दोगूय भुरग्यां म्हन्यांत येवन शिक्षकान म्हणलें, “म्हाका दुख्ख जाता. म्हाका तागेलें उत्तर समजलें ना. ताणें सांगिल्लें तें बरोबर आशिल्लें.” आनी सोमतो नरेंद्रा कडेन वळून ताणें म्हणलें, “नरेंद्र, म्हाका मना पसून तुगेल्या धैर्याचें आनी सत्या वेल्या तुगेल्या प्रेमाची तोखणाय दिसता. हांव मना पसून तुका शाबासकी दितां. तूं खरेलोच हे शाळेचो आदर्श भुरगो आसा.” शिक्षकाले हे शब्द आयकून नरेंद्र आपल्या हाताची दूख विसरलो. ताका आनंद जालो कारण अखेराक सत्याचोच विजय जाल्लो.

ह्याच तागेल्या सत्या वेल्या प्रेमाक लागूनच नरेंद्र रामकृष्ण परमहंसा म्हन्यांत पावलो. आनी तांगेलो पट्टशिश्य जालो. श्री रामकृष्णां कडल्यान ताणें इश्वरा विशीं सत्य आनी तागेल्या जगाचे निर्मणे विशीं जाणून घेतलें. जेन्ना तो नरेंद्राचो स्वामी विवेकानंद जालो तेन्ना ह्या जगान शाणें जावचें आनी समाधानान जीण सारची म्हूण हें सत्य जग भर पातलावपाक ताणें खूब कश्ट घेतले.

* * *

## ५. मनशाची सेवा हीच इश्वराची सेवा

एक पावट एक व्हडलो ख्रिश्चन संत जेरुजलेम हांगा आयिल्लो. प्रत्येक दिसा लागशिल्ले पयसुल्ले सगळे लोक व्हडा संख्येन ताका पळोवपाक आनी तागेलें बेसांव घेवपाक येत आशिल्ले.

जेरुजालेमच्या लागशिल्ल्या खेड्यांत एक जाणटेली किरिस्तांव बायल रावताली. ती आतां म्हातारी जाल्ली आनी अशक्तूय जाल्ली. ती भायर सोडाच पुणून घरांत पसून बडयेच्या आदारान दोन पावलां मारताली. ती जाणटेली सदांच आपल्या दारांतल्यान सगळो लोक, बायलो, दादले, भुरगे जेरुजालेमाक वताले तें पळयताली. तिका दिसतालें, आपुणूय आतां मरणा धडेर पावल्यां. मरच्या पयलीं जेरुजालेम वचून त्या संताक पळोवन ताच्या कडल्यान बेसांव घेतल्यार बरें जावपाचें. वतना आपूण वाटेर मेल्यार पसून देव आपणाचेर बेसांव घालून आपणाल्या आत्म्याक सर्गार व्हरतलो.

कितें जाता तें जावं आपूण थंय वतली.

अशें म्हणून म्हातारेन निर्धारान जेरुजालेमाक वचपाक आपले खोंपीक कुलप लायलें आनी ती पांय ओडीत ओडीत बडयेच्या आधारान चलूंक लागली. मनांत देवाचो जप चलिल्लो. अशे परिस्थितींत तिणें थोडेंशें अंतर कापलें. उपरांत वोता कड जालो. तिका खूब पुरो जालें. कशीबशी ती रस्त्या कुशीक आशिल्ल्या फातराचेर वचून बसली आनी चिंतूंक लागली, "हांव आतां दुबळी जाल्यां. तातूंत कोणाचो आधार ना." तिका गिरगिरूंक लागलें. तिणें देवाक उलो मारलो आनी त्या फातराच्या आधारान घट्ट बसली.

इतल्यांत तरूण चले-चलयांचो एक घोळको जेरुजालेमाक वतालो तो तिणें पळयलो. तिणें काकुळटेन त्या भुरग्यांक म्हणलें, "म्हाका तुमच्या सांगातान तुमच्या बरोबर जेरुजालेमाक व्हरशात?" त्या तरनाट्यांक तिगेली विनंती नाकसुऱ्यां गेली. थोड्यांनी तिचे कडेन रागान मोठे दोळे करून पळयलें. थोड्यांनी तोंडां वांकडीं केलीं. थोड्यांनी तिचीं फकाणां मारलीं आनी म्हणलें, "आज्जे, तुका जेरुजालेम व्हरचे परस आमी तुका मसंडींत पावोवं." अशें म्हणून सगळे तरनाटे व्हडा-व्हडान हांसून तिचीं फकाणां मारीत आपले वाटेन फुडें गेले.

थोड्या वेळान एक तरूण पाद्री त्याच मार्गान जेरुजालेमाक वतालो. म्हातारेन आशेन ताका विचारलें, "मोगाळ भावा, तूं

म्हाका तुजे वांगडा जेरुजालेमाक व्हरशी? मोठे उपकार जातले." तो पाद्री मायेस्त आशिल्लो. तो तिच्या म्हऱ्यांत गेलो आनी तिका सांगलें, "आज्जे, तूं कांयच चिंता करूं नाका. तूं म्हजे तकलेक घट्ट धरून म्हज्या खांदार बस. हांव तुका आनंदान जेरुजालेमाक घेवन वतां."

सगळीं त्या पवित्र स्थानार पावलीं. थंय हजारांनी लोकांनी माचये भोंवतणीं चारूय वटांनी कोनाळें केल्लें. माचयेर तो संत मर्दी बशिल्लो. पूण तो मोटव्या लोकांक दिसनाशिल्लो. थंय उबे राविल्ल्यांच्यो फाटी आड येताल्यो म्हणटकर लोक एकमेकाच्या खांदार चडून आळीपाळीन पळयताले आनी तो संत तांकां बेसांव दितालो. जाणटेलेचीं फकाणां मारिल्लो तो घोळको थंय पाविल्लो. तांकांय तो संत दिसनासलो. म्हणटकर तेय बाकीच्या लोकांक पळोवन आपुणय एकमेकाच्या खांदार रावन माचयेर पळोवपाक लागले. तांकां थंयचो सीन पळोवन शॉक बसलो. तांकां माची दिसताली. थंय संत नाशिल्लो. त्या जाग्यार तांणी फकाणां मारिल्ली ती म्हातारी संताच्या जाग्यार बशिल्ली आनी तांचे कडेन पळोवन हांसताली. तांणी परतून परतून दोळे चोळून पळयलें. पूण चित्र बदल्लें ना. उपरांत घोळक्यांतल्या बाकीच्यांनी आळीपाळीन पळयलें. माचयेर तेंच चित्र आशिल्लें. इतले उमेदीन येवन तांची खूब मोठी निराशा जाली. तांकां कळ्ळें, जाणटेलेचीं फकाणां मारिल्ल्याचें हें पानवळ भोगचें पडलें आनी तांकां पश्चाताप जालो. पूण कितें उपेग? ती वेळ गेल्ली.

सगळ्यांत व्हडलें अजाप म्हणल्यार त्या मायेस्त पाद्रीक तो संत स्पश्ट दिसलो. तो हात वयर काडून आपल्या सगळ्या भक्तांक आशिर्वाद दितालो. इतलेंच न्हय, पाद्रीक असो भास जालो कीं त्या म्हाताऱ्या आज्जे जाग्यार तो संतच आपल्या खांदार बसला आनी आपल्याचेर बेसांव घालता. सर्गांतली सगळी शांती आनी आनंद आपल्या काळजां भितर रिगता. खऱ्यांनीच जेरुजालेमाक त्या वर्सा जितले यात्री आयिल्ले तातूंत ह्या आमच्या पाद्रीक चड आनी चड देवाचे आशिर्वाद लाभले. कारण तो देवाचेर जितलें प्रेम करतालो, देवाची जितली सेवा करतालो तितलेंच प्रेम आनी सेवा देवाल्या सगळ्या भुरग्यांचेर करतालो.

* * *

## ६. रागा पसून सावध रावात

जेन्ना राजेंद्र प्रसादजी भारताचे राष्ट्रपती आशिल्ले तेन्ना तांगेलो एक नोकर आशिल्लो. ताचें नांव रतन आशिल्लें. ताका आपल्या धनयाच्यो गरजो बेस बऱ्यो खबर आशिल्ल्यो. आपल्या धनयाक लागपी प्रत्येक वस्त ती वेळार तांच्या हाताक मेळसारकी तयार दवरतालो.

एक दीस रतन आपल्या धनयाचें मेज पुसून नीट लावन दवरतालो. तेन्नाच मेजावेली एक फायल रतनान उखल्ली. आनी ती आपल्या हातांत धरून मेजाक फडको मारूंक लागलो. इतल्यांत हातांत धरिल्ल्या फायलींतल्यान एक फावंटन पेन सकल पडलें आनी ताच्या आपाराचें तोंक मोडलें. तें पळोवन तो खूब भियेलो. त्याच वेळार राजेंद्र प्रसादजी कुडींत भितर सरताले. तांणी कितें घडलें तें पळयलें आनी ते खूब अस्वस्थ जाले. पेन खूब उंची

आशिल्लें. आनी तें पेन प्रसादजींक तांच्या अत्यंत लागींच्या आदरणीय मित्रान तांकां बक्षीस म्हूण आनी आपली याद म्हूण दिल्लें. डॉ राजेंद्रप्रसादय त्या पेनाची खूब जतनाय घेताले. प्रसादजींक राग आवरना जालो. ते अवचीत रतनाचेर कडाडले, "रतन, आज सावन तुगेली सेवा म्हाका नाका. फाल्यांच्यान तूं कामार येवं नाका."

रतनाक काम सोडपाचें नासलें. कारण तागेलें प्रसादजींचेर खूब प्रेम आशिल्लें. रतनान रडत रडत धनयाच्या पांयांक वेंग मारली. आनी आकांतून सांगलें, "म्हाका क्षमा कर. म्हगेली चूक जाली. फायलींत पेन उकतें आशिल्ल्याची म्हाका खबर नाशिल्ली." पूण डॉ. राजेंद्रप्रसादजी खंबीर रावले आनी रतनाक निक्षून सांगलें, "तूं हाचे फुडें म्हाका दोळ्यां मुखार नाकाच. तुका हांव कसोच सेवेक दवरचों ना. तूं हांगाचो वच."

त्या रातोडाक डॉ. प्रसादजी जेन्ना न्हिदपाक गेले, तेन्ना तांकां हे घटनेची याद जाली. तांगेलें मन शांत जावन घडिल्ले घटनेच्या विचारांत दंग जालें आनी कितें घडिल्लें तें सवकासायेन, थंड चित्तान  प्रसादजी परते येवजूंक लागले. रतना कडेन आपूण खूब कठोर वागलों. रतनाली चूक कितें? तांणी हो प्रस्न आपल्याकच विचारुन पळयलो. उत्तर आयलें, "पेनाचो आपार मोडलो आनी तें निरुपेगी जालें. खरी खबर. पूण हे गजालीक रतनाक कसो जबाबदार धरूं जाता? फायलींत पेन उक्तें दवरलें कोणें? हांवेंच.

काम जाल्या उपरांत ताका टोपण रोखडेंच घालपाचें आनी तें पेन जाग्यार दवरपाचें. फायलींत तें दवरपाचें न्हय. आनी चुकून दवरलें जाल्यार पसून उक्तें दवरपाचें न्हय. तें उक्तें आशिल्ल्यान पडटकर ताचो आपार मोडलो. पेन फायलींत दवरप ही पयली चूक. दुसरी चूक तें उक्तें दवरपाची. म्हणटकर चूक म्हगेलीच. रतनाचो कांय अपराध ना. उपरांत निरपराधाक शिक्षा दिली ही म्हगेली तिसरी चूक. रतन निरपराध आशिल्लो. हाचे भायर तो इतलो आज्ञाधारक आसा, प्रेमळ आसा, प्रामाणीक आसा, इमानी आसा. असो नोकर मेळप कुस्तार. इतलेंय आसून हांव ताचे कडेन खूब कठोर वागलों. अन्यायान वागलों." ह्या खंतीच्या, पश्चातापाच्या विचारांनी ताका टोंचणी लागली. सबंद रात ताका न्हीद पडली ना.

ते केन्ना काय सकाळ जाता ताची वाट पळयत रावले. सकाळीं उठले बरोबर तांणी पयली गजाल केली ती रतनाक रकाद धाडून आपोवन हाडलो. डॉ. प्रसादजीन एका इश्टा प्रमाणें रतनाचे दोनय हात आपल्या हातांत घेतले आनी सांगलें, "रतन, काल हांव तुजे कडेन खूब कठोर वागलों. म्हाका क्षमा कर. चूक म्हजीच आशिल्ली. तूं पयलीं भशेन तुगेलें काम कर. म्हज्यान तुका वगडावंक जावचो ना."

रतनाचें काळीज हाल्लें. ताणें आयकल्ले ते उद्गार एका व्हड मनशाच्या, आदर्श मनशाच्या काळजाचे आशिल्ले. रतनान आपल्या धनयाच्या पांयांर घालून घेतलें. आनी भुरग्या भशेन

हुडक्या हुडक्यांनी रडलो. धनया विशीं आपल्याक दिसपी प्रेम, आदर, उपकार आनी व्हडपण हें सगळें येवजून ताका रडूंक आयलें.

उपरांत डॉ. राजेंद्रप्रसाद ही खबर सगळ्यांक सांगताले आनी म्हणटाले, "सदांच रागा पसून सावध रावात. दुसरें, दुसऱ्यांक शिक्षा दितना परत परत विचार करात. तुमचें भान सुटूं दिवं नाकात. जेन्ना तुमकां दुसऱ्याक शिक्षा करपाचो प्रसंग येता, तेन्ना भान जाग्यार आसूं दी. राग हो एका घातमाऱ्या सुऱ्या भशेन आसा. तुमी ताका कुडीं भितर योग्य तरेन सांखळेन बांदून दवरात. दुसरो मनीस चोर वा ठक आसा अशी खात्री जाल्यारच ताका मेकळो सोडात. नाजाल्यार तो सगळ्यांचेर भोंकत रावतलो. आनी एखाद्र्या निरपराध्याक घांस पसून मारीत. चूक करप हो मनशाचो स्वभाव. पूण ताका क्षमा करप ही उदार मनशाच्या अंतकरणाची रीत."

* * *

## ७. काटकसरीचें म्हत्व जाणा जायात, वस्तूंची उधळपट्टी करूं नाकात.

संवसारांतले दर एके वस्तूचो उपेग आसता आनी स्वताची किंमत आसता. सोरपाचें वीख लेगीत. जेन्ना आमी ताची लस करतात ती लस सोरोप चाबिल्ल्या मनशाचो जीव वांचोंवक शकता. अशें आसूनय थोडे मनीस आपल्या पिशेपणान अन्नाची आनी हेर वस्तूंची उधळपट्टी करून तांचो इबाड करतात.

काळजीन बुद्धी वापरून वस्तूंचो योग्य तरेन उपेग करून जाय तितलोच वापर करून गरज भागयता ते संवयेक काटकसर अशें म्हणटात. एखाद्रो गिरेस्त मनीस पसून आपल्या पयशांची उधळपट्टी करून चड वेळ लागनासतना गरीब जावंक शकता. एक

काटकसरी मनीस, जरी तो गिरेस्त नासलो तरी उधळपट्टी करपी गिरेस्त मनशा परस आपली जीण समाधानान सारूंक शकता.

महात्मा गांधी कडेन अशी काटकसरीची संवय आशिल्ली. तिका लागून महात्माजी तांगेल्या आश्रमांतल्या लोकांक अजापांत उडयताले. मीराबेन ही एक इंग्लीश लेडी गांधीजींच्या आश्रमांत येवन राविल्ली. एक दीस तिणें गांधीजींक आपले कुडींत कितें तरी सोदतना पळयलें. तिणें विचारलें, "बापुजी, तुमी कितें सोदतात? तुमगेली कसलीय वस्त शेणल्या?" बापुजींनी जाप दिली, "हय. पेन्सील." तांकां सोदपाक मदत करपाच्या हेतून मीरा बेनीन परत बापुजींक विचारलें, "पेन्सील केदी?" "हांव जी सध्याक वापरतालों ती. आशिल्ली तुगेल्या आंगठ्या येदी." ह्या येद्याश्या पेन्सिलीच्या कुडक्या खातीर बापुजीन इतली चिंता कित्याक काडूंक जाय हाचें कुडींतल्या हेर सगळ्या लोकांक अजाप जालें.

कोणेंतरी एकल्यान नवी पेन्सील हाडली आनी बापुजींक दिवंक केली. बापुजीन स्पश्ट सांगलें, "म्हाका नवी पेन्सील नाका. हांव जी पेन्सील गेल्ले तीन आठवडे वापरतालों तीच म्हाका जाय." अशें सांगून गांधीजींनी सोदप चालूच दवरलें. निमणे कडेन तो पेन्सिलीचो कुडको एके फायलींत चुकून उरिल्लो तो मेळ्ळो. आनी गांधीजींच्या तोंडार हांशें फांकलें. जशे काय ते एका मोठ्या पातका पसून वाटवल्ले.

आनी एक पावट बापुजी भोंवडेर आशिल्ले. वांगडा मीरा

बेन आशिल्ली. तांगेलो कॅम्प एका खेड्यांत आशिल्लो. बापुजीक सदांच जेवणार थोडें म्होंव घेवपाची सवंय आशिल्ली. मीरा बेन कॅम्पाक येतना सदांची म्होंवाची बाटली बरोबर घेवपाक विसरली म्हणटकर तिणें नवी म्होंवाची बाटली हाडून जेवणा मेजार दवरली. जेवणाची सगळी तयारी जाली. बापुजींनी आपलें आसन घेतलें. सहज तांची नदर नवे बाटलेर पडली. तांणी रोखडेंच मीरा बेनीक विचारलें, "आमगेली सदांची बाटली कितें जाली?" मीरा बेनीन जाप दिली, "बापुजी, हांव ती बरोबर घेवपाक विसरलें." बापुजी थोडे अस्वस्थ जाले. तांणी म्हणलें, "ती बाटली बरोबर घेवपाक विसरली म्हूण तुवें नवी बाटली घेतली?" बापुजींनी मीरा बेनीक सांगलें, "आमी जे पयशे वापरतात ते लोकांचे पयशे. आमी तांची अशी उधळपट्टी करूंक शकनात. हें म्होंव म्हज्यान घेवंक जावचें ना. आमगेली पयलींची बाटली पुराय रिकामी जाले बगर म्हज्यान नवी बाटली घेवं नज. हें बरोबर जायना."

बापुजींनी जशें उलयलें तशें केलें. तांणी भोंवडी सोंपसर जेवणार म्होंव घेतलें ना. आनी जेन्ना ते आश्रमांत परत आयले तेन्ना ती पयलींची अर्दकुटी बाटली तांची वाट पळयताली. तें पळोवन तांकां खूब खोस जाली आनी तांणी पयलीं भशेन जेवणार म्होंव घेवपाचें चालू केलें.

* * *

# ८. जनावरां विशीं दया

जो कोण जगाचेर निसुवार्थीपणान चड प्रेम करता तो देवाची बरी प्रार्थना करता. सगळ्यो ल्हान व्हड वस्तू ही इश्वराची निर्मणी. देव सगळ्यांचेर सारकें प्रेम करता कारण ताका सगळींच प्रीय आसतात.

म्हान मनीस हे सदांच प्राण्यां कडेन दयाळू आनी प्रेमळ नदरेन पळयतात. आमकां देखीक म्हूण दोन म्हान मनीस आमचे नदरे मुखार येतात. १) रमण म्हारुशी २) म्हान इंग्लीश विज्ञानीक सर इसाक न्युटन. दोगूय याद दवरपा सारके प्रेमळ.

श्री रमण म्हारुशी हांगेल्या प्रेमाची ताकद इतली व्हड कीं तांगेले लागशिल्ले पयसुल्ले भक्त तांगेल्या आश्रमांत तांच्या म्हऱ्यांत येवपाक आंवडेताले. मनीस जालेच, जनावरां, पक्षी लेगीत ओडीन धांवत येतालीं. तांगेलो आश्रम हो सगळ्या प्राण्यांचें घर जाल्लें.

थंय कुत्रीं, गायो, माकड, चानयो, मोर आनी खूबशीं इतर जनावरां हांचें आश्रम हें घरच जाल्लें. लोक तांच्या दर्शनाक, आशिर्वादाक येताले तेच भशेन ह्या सगळया प्राण्यांचेर रमण म्हारुशींचें बारीक लक्ष आसतालें. ते सगळ्या प्राण्यांक मनशा भशेन नांवान उलो मारताले. तांच्या बद्दल उलयतना 'तो, ती' हीं सर्वनामां वापरताले. कुत्र्यां विशीं उलयतना तांकां भुरगे म्हूण पाचारताले. तांचे विशीं वासपूस करतना भुरग्यांक आज जेवण दिलें ? आश्रमाच्या दनपारच्या जेवणा वेळार कुत्र्यांक पयलीं अन्न दिवपाचें. मागीर गरिबांक जेवण दिवप आनी मागीरच सगळ्या भक्तांक जेवण वाडपाचें.

एक पावट एक माकडीण आपल्या नवजात पिलाक घेवन आश्रमांत आयली. थंय आशिल्ल्या भक्तांनी तिका आडायली. ती कितेंय नासधूस करून आश्रमाची शांती भंग करीत ह्या भंयान तिका धांवडावन भायर घालपा केली. ती कशीच गेली ना. परती आयली आनी ह्या वेळार म्हारुशीन तिका पळोवन म्हणलें, "तिका आडावं नाकात. ती म्हज्या म्हऱ्यांत आयल्या आपले चलयेक घेवन. तुमी जशे आशिर्वादाक येतात तशेंच तिणेंय आपल्या अर्भकाक म्हज्या आशिर्वादाक हाडलां." ती माकडीण नीट म्हारुशी म्हऱ्यांत आयली. थोडोसो वेळ बसली आनी आयिल्ली तशी निट्ट भायर गेली.

आश्रमांत एक गाय आसताली. म्हारुशींनी तिचें नांव लक्ष्मी दवरिल्लें. कितलेय भक्त भितर जमिल्ले आसूं, ती सदांच सरळ

रमण म्हारुशीं म्हऱ्यांत येताली. तिका खात्री आसताली, म्हारुशीन आपल्याक केळीं नाजाल्यार फळां दवरल्यांत आसतलीं. म्हारुशीय तिच्या नांवान कितें तरी दवरतालेच. लक्ष्मी आश्रमांत सगळ्या भक्तांची आवडटी गाय आशिल्ली. श्री रमण म्हारुशींच्या जयंती दिसा (जल्म दिसा) लक्ष्मीन तीन पाडकांक जल्म दिलो.

जेन्ना लक्ष्मी चड जाणटी जाली तेन्ना ती सामकी अशक्त जाली आनी तिचो शेवट लागीं पावलो. निमाणें तिचो अंतकाळ सामको लागीं पावलो तेन्ना रमण म्हारुशी तिच्या म्हऱ्यांत गेले आनी तिका विचारलें, "अम्मा, (आई) हांवें तुज्या म्हऱ्यांत रावंक जाय?" ते थंय गोठ्यांत तिच्या म्हऱ्यांत बसले आनी तिगेली तक्ली, मान आपले मांडयेर घेतली. आपलो उजवो हात तिच्या कपलार दवरलो आनी दाव्या हातान तिका पोशेली. रोखडोच लक्ष्मीन शांतपणान आपलो प्राण सोडलो. उपरांत मनशाक मरतकर करतात तशो सगळ्यो धार्मीक विधी करून तिका आश्रमाच्या आंगणांत पुरली. थंय हरण, कावळो, मोर, कुत्रो हांचीं थडगीं पयलींच आशिल्लीं. उपरांत लक्ष्मीच्या थडग्यार एक चौकोनी फातोर गायेचें चित्र कोरांतून बसयलो.

रमण म्हारुशींचो प्राण्यां कडेन अशे तरेचो दयाळूपणा, प्रेम आनी आदर आशिल्लो.

* * *

## ९. जनावरां विशीं दया

### (दुसरी खबर सर इसाक न्युटन हांची)

सर इसाक न्युटन हे एक म्हान वैज्ञानीक. तांणी आपली सगळी जीण संशोधनांतच घालयली. तांगेल्या संशोधनाचे विशय म्हणल्यार गणीत आनी विज्ञान. हातूंतच ते संशोधन करताले.

तांगेलो एक कुत्रो आशिल्लो. ताचें नांव तांणी डायमंड (हिरो) अशें दवरिल्लें. न्युटन त्या कुत्र्याचेर खूब प्रेम करताले. आनी ताका आपल्या इश्टा प्रमाणें वागयताले. ताका आपल्या कुटुंबांतलो एक भागीदार म्हूण लेखताले. डायमंड एक मोनें जनावर, इमानी आनी सगळें समजुपी.

एका रातोडाक न्युटन एकटेच आपल्या संशोधनाचे कुडींत

बसून मेजार आपलें काम करताले. शास्त्रांतले म्हत्वाचे कांय प्रस्न सोडोवपाचे आशिल्ले. ते सोडयले म्हणटकर तांकां समाधान जालें. थोडी ताजी हवा खावंची आनी थोडो वेळ शांत चित्तान सुसेग घेवंचो अशें म्हणून तांणी आपले सगळे पेपर एकीकडेन केले आनी पयलीं सोडयिल्ल्या प्रस्नांची फायल काडून हेवय पेपर तेच फायलींत दवरून कुडींतल्यान भायर सरले. डायमंड तांगेल्या मेजा पोंदा बशिल्लो. धनी उठलो म्हणटकर तोवय बी उठलो आनी भायर वतना तागेलो एक पांय मेजाक आपटलो. मेज हालून वेली मेणवात आडवी पडली. तीच फायलीर पडून सगळे कागद लासून गोबोर जालो. न्युटनाक कागद लाशिल्ल्याचो वास आयलो. ताणें कुडींत फायल जळटा ती पळयली. आनी बेगीन भितर येवन तो उजो पालयलो. पूण तितल्या वेळांत फायल सगळी जळून गेल्ली.

न्युटनाक मोठो शॉक बसलो. ताणें पळयलें, आपले सगळे प्रयत्न आनी संशोधनाचे मोलादीक पेपर लासून गेल्ले. ताणें आपल्या कुत्र्या कडेन रागान पळयलें. ताका कितेंय शिक्षा करपाक तांकां जमलें ना. तांगेलें कुत्र्या वेलें प्रेम जागें जालें आनी न्युटनान रागाचेर विजय मेळयलो. अपुरबायेन कुत्र्याक सांसपिलो. कुत्रो जळिल्ल्या पेपरांचो वास घेत शेपडी हालयत बशिल्लो. न्युटनान आपल्या कुत्र्याक म्हणलें, “मोगाळ इश्टा, तुका केन्नाच कळचें ना तुवें कसली खोडी केल्या. आनी म्हगेलें कितलें व्हडलें लुकसान केल्लें आसा.”

न्युटन म्हान आशिल्ले. ते व्हड हुशार शास्त्रज्ञ आशिल्लेच आनी तांच्या आंगांत आशिल्ल्या सद्‌गुणांनी आनी जनावरां विशीं आशिल्ल्या प्रेमान, संयमान आनी क्षमेन तांकां चड म्हान केल्ले.

* * *

# १०. मनशाक व्हडपण तागेल्या प्रयत्नांनी मेळटा

चार भुरगे एका शेतांत खेळटाले. खेळटां खेळटां ते शेताच्या एका तोंकाक पावले. ती सांजवेळ आशिल्ली. थंय एक बारीक आवाज शेतांतल्यान येतालो तो तांणी आयकलो. तो आवाज म्हणटालो, "जमीन खणून म्हाका भायर काडात. तुमी जें कितें मागतात तें हांव तुमकां दितलों."

भुरग्यांनी थोडो वेळ जमीन खणले उपरांत तांकां एक ल्हान चकचकीत दिवो मेळ्ळो. तांणी तो वयर काडलो. दिव्यान तांकां सांगलें, "हांव अल्लादिनालो चकचकपी जादूचो दिवो. म्हजे विशीं तुमकां पयलींच खबर आसतली. तुमी जें कितें मागतात तें हांव दितलों. तुमी प्रत्येक जाण आपल्याक जाय तें मागूं शकतात. हांव तें तुमकां दितलों."

पयल्या भुरग्यान मागलें, "म्हाका क्रिकेट खेळपाक आवडटा.

म्हणटकर तूं म्हाका बॅट, बॉल, विकेटी आनी घरा खेळपाचे थोडे खेळ दी.'' दुसऱ्या भुरग्यान जाप केली, ''दर दिसा म्हगेलो वर्गशिक्षक म्हाका घरा कडेन अभ्यास करपाक दिता. म्हजे खातीर तो अभ्यास तूं कर.'' तिसऱ्यान सांगलें, ''कितलेशेच गरीब लोक घरांनी वचून भीक मागतात. म्हाका भरपूर पयशे दी म्हणटकर म्हाका तांकां सगळ्यांक दिवंक मेळटले.'' निमण्या भुरग्याची जाप वेगळीच आशिल्ली. ताणें सांगलें, ''जादूच्या दिव्या, तूं हांगाच्यान पयलीं चलूंक लाग. तुगेलें आमकां कांयच नाका. देवान आमकां दोळे, कान, नाक, जीब, हात-पांय दिल्यात. मनशाक बुद्ध दिल्या. मनशान हुशार बुद्धीन कश्टांचीं कामां करपांत ताचो पुरतो उपेग करूंक जाय. हेंच आमकां आनी हेर लोकांक सूख, समाधान आनी शांती दितलें. मनशालें व्हडपण तागेल्या प्रयत्नांत आसता. आमकां तुज्या मुखार भिकारी जावन भीक कित्याक मागूंक जाय? आमकां देवान दिल्लें हें पागण आमी अलक्ष करून दुसऱ्याच्या पोशान उदक कित्याक पिवपाचें?''

दिव्याक सगळ्यां परस त्या निमण्या भुरग्यान दिल्ली जाप खूब आवडली आनी खीण भरयांत तो थंयच्यान नाच्च जालो.

* * *

## ११. आमचे (मनशां) परस देवाक चड बरें कळटा

देवान सूर्य, चंद्र, नखेत्रां निर्माण केलीं. आमी सगळे रावतात ती धर्तरीय ताणेंच निर्माण केली. वनस्पती, झाडां-पेडां हें सगळें दिवन तिका सजयली. देव हो सर्व शक्तिमान. तो आमचो पिता आनी आमी सगळीं तागेलीं मोगाळ भुरगीं.

जेन्ना आमी प्रेमान आनी आत्मविश्वासान ताचे कडेन उलयतात तेन्ना ताका (देवाक) आनंद जाता. आमगेलो काळजा सावन घाल्लो उलो तो आयकता. पुणून एक याद दवरात, तुमगेलो हेत प्रामाणीक आसूंक जाय. आमगेली प्रार्थना योग्य वस्तू खातीर आनी दुसऱ्याच्या बऱ्या खातीर आसूंक जाय. नाजाल्यार आमी ताका दुखयतले आनी आमीय दुख्खी जातले.

शंभू हो एक चांभार आशिल्लो. तो मोहूर ह्या खेड्यांत रावतालो. खेड्यांतले सगळे लोक, तागेले शेजारी ताका प्रामाणीकपणान

काम करपी, देवभक्त, देवभिरू, आपलोसो आपूण वागपी, कश्टाळू मनीस म्हूण वळखताले. तो दीस भर नवे बूट शिंवपाचे आनी पोन्ने बूट दुरुस्त करपाचें काम करतालो. ह्या कामांतल्यान ताका गरजे पुरतो पयसो मेळून तो संवसाराची भर करतालो आनी सुखी आसतालो.

एक दीस मोहूर खेड्याचो जमीनदार चक्क भेसांत ऐटीन घोड्यार बसून शंभूचे ल्हानशे झोपडे मुखावेल्यान गेलो. जमीनदार राजा कसो सजिल्लो. शंभून म्हणलें, "हो पळय आमगेलो जमीनदार. आमच्या असलीं वीस खेडीं ताच्या हुकमा खाला चलतात. ताचे कडेन भरपूर संपत्ती आसा. आतां तो पळय, भांगरा खण विकती घेवपाक वता. तागेली जीण कितली भाग्याची आनी सुखाची! नाजाल्यार हांव दीस-रात राबतां. चामडें कापप आनी बूट शिंवप. देव म्हजे कडेन इतलो निश्ठूर कित्याक?"

जशे शंभूच्या मनांत देवाचे विचार आयले, ताची नदर वणटीर लायिल्ल्या कॅलेंडरांतल्या विठ्ठलाचेर थिरावली. नकळत तो आपल्या मोगाळ विठ्ठला कडेन उलयत रावलो. "म्हगेल्या मोगाळ देवा, तूं सर्व शक्तिमान आसा. तूं म्हगेलो बापूय तशेंच आवयय बी. तूं म्हाका पळयता, हांव रात-दीस काम करतां. तुका म्हगेली इल्ली पसून काकुळट दिसना? म्हाका एक व्हडलें घर दी. रोवपाक एक शेत दी. जोंधळो पिकोवपाक भरपूर पयसो दी. कितेंय बऱ्यो चार वस्तू बायल-भुरग्यां खातीर म्हाका हाडूं दी. म्हणटकर म्हाका आनंदान,

सुखान उरिल्ली जीण सारूंक मेळटली."

शंभून हें सगळें उलोवणें चित्रांतल्या विठोबाक सांगलें आनी त्या फोटो कडेन पळयत रावलो. ताका भास जालो. विठोबा आपल्याक पळोवन हांसलो. "कित्याक हांसलो काय हो? हांवें ताचे कडेन चड मागलें म्हूण तो हांसलो काय?"

त्या रातोडाक विठोबा त्या जमीनदाराच्या सपनांत आयलो. आनी जमीनदाराक सांगलें, "तो मोहूरचो शंभू चांभार आसा न्ही ताका म्हाका थोडी मदत करूंक जाय. ताचे खातीर एक व्हड घर बांद. ताका पवनांनी भरिल्लें एक तपलें दी. एक दोन एकरांचो शेताचो कुडको ताच्या नांवार करून दी. इतलें केल्यार तूं म्हगेले कृपेक पात्र जातलो."

जमीनदारान विठ्ठलाच्या सांगण्या वेल्यान सगळें यथास्थीत केलें. शंभूलो आपल्या दोळ्यांचेर विश्वास बसलो ना. तो अजापलो. थोड्या वेळान थीर जातकर शंभून म्हणलें, 'जावं कशेंय. देवान म्हगेली विनवणी आयकली.' जालें, शंभून आपलें सदचें काम सोडलें. तो आनी सगळें कुटूंब शेतांत वावर करूंक लागलें. शेत कसप, बीं पेरप, शेताचीं कामां करप हातूंत अख्खो दीस सरूंक लागलो. बरें पीक मेळ्ळें. चार पयशे मेळ्ळे. शंभूक आनंद जालो. बायल-भुरग्यांक घरांत ऐस-पयस भोवंक-घुवंक मेळ्ळें. सगळीं खूश जालीं आनी बरे भशेन रावपाक लागलीं.

शंभू गिरेस्त जाल्ल्याची खबर गांव भर पातळ्ळी. तशीच ती

तागेल्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक समजली. तांकां दिसलें, शंभू आमगेलो सादो भोळो मायेस्त भावार्थी. चार दीस घरांत रावपाक गेल्यार ना म्हणचो ना. अशें म्हणून आयलीं-पेलीं सगळीं सोयरीं शंभूगेर आयलीं. सगळें घर सोयऱ्यांनी भरून गेलें. रोखडींच तीं एकमेकांचीं उणीं-दुणीं काडून आपले भितर झगडूंक लागलीं. तांचे कटकटीन शंभूली शांती व्हेली. शंभूक घरा रावप नाका जालें. बरें, सगळें घर सोयऱ्यांनी भरिल्लें. आपलें पवनांचें तपलें खंय दवरतलो हाची ताका चिंता जाली. घरांत खासगी असो जागो उरलोच ना. म्हणटकर ताणें आपलें तपलें आपल्या शेताच्या एका कोनशाक पुरून दवरलें. हांगा कोणय चोरून व्हरत म्हूण शंभूक चिंता लागली. तागेली न्हीद गेली. त्या वर्सा पीकय आयलें ना. शेत पडंग पडलें. पावस ना. दुकळ पडलो. शेतांतल्या जोंधळ्याचो एक दाणो पसून मेळ्ळो ना.

जालें, शंभून आपले जिणेंतलें सूख, समाधान शेणयलें. दिशीं दिशीं तो अशक्त जायत गेलो. मूळ धंदो तर ताणें केन्ना सोडिल्लो. शंभू दुख्खी जालो पूण आतां तो अणभवान शाणो जाल्लो. तो एक दीस विठ्ठलाच्या चित्रा मुखार उबो रावन ढळ्ढळीत रडलो. ताणें विठ्ठलाक सांगलें, "तूं कित्या खातीर हांशिल्लो हें आतां म्हाका बेस बरें कळून आयलें. आतां एकच कर. हांवें घर मागलें, शेत मागलें, संपत्ती मागली आनी तुवें म्हाका सगळें दिलें. पूण ताणें म्हगेल्या सुखांत समाधानांत भर घाली ना. हें म्हाका फावना. म्हगेली शांती व्हेली. म्हगेलें सूख व्हेलें. आनी म्हाका लुटून व्हेलो. तेन्ना म्हाका क्षमा कर. म्हाका म्हगेलें पयलींचें कश्टांचें काम करूं दी. म्हगेल्या भावां-भयणींची तांगेले बूट शिंवन सेवा करूं दी. म्हगेलें

काळीज तुगेल्या प्रेमान आनी भक्तीन भरून वचूं दी. हाचे फुडें म्हाका म्हगेलें कर्तव्य कर्म करूं दी. फुडलें सगळें तुजेर सोंपयतां. तूं म्हगेलो मोगाळ देव. तुका सगळ्यां परस बरें समजता. आपल्या मोगाळ भुरग्यांक कितें योग्य आसा, कितें बरें पडटलें हें तुका आमचे परस चड बरें कळटा."

* * *

## १२. मातृदेवो भव

दनपार सरून चार वरां जाल्लीं. मळब काळ्या कुपांनी भरून गेल्लें. निकतीच पावसाची एक मोठी दडक येवन गेल्ली. तिणें रस्ते ओले चींब जाल्ले. शाळेची घांट वाजली. भुरग्यांचे चोंबे गर्दी करीत एकदांचे शाळेचे गेटी भायर पावले. आनी घरा कडेन बेगीन पावपा खातीर धडपड करूं लागले.

शाळेचे गेटी कुशीक एक जाणटेली बायल कितलो वेळ उबी आशिल्ली. ती पावसांत चींब भिजिल्ली. जाणटेपणाक लागून ती अशक्त जाल्ली. कूड शिंयान कुडकुडटाली. पावसाक लागून रस्तो चींब भिजून निसर जाल्ली. तिका दुसऱ्याच्या आदारा बगर ह्या निसरड्या रस्त्या वेल्यान चलपाक धीर जायना जालो आनी ती जाणटेली आपल्याक कोणायलो तरी आधार मेळत म्हूण आशेन वाट पळयत आशिल्ली. जायते लोक ते वाटेन आयले, गेले पूण

कोणेंच तिचेकडेन लक्ष दिलें ना. सगळो लोक घरा बेगीन पावपाच्या बोवाळांत आशिल्लो.

निमणें मोहन म्हणटा तो भुरगो शाळेंतल्यान आयलो. तो एक बरो भुरगो आनी बरो खेळगडोय बी. शाळेचे फुटबॉल टिमीचो कॅप्टन आशिल्लो. भलायकेन घटमूट आनी कोणाकय गरजेक मदत करपी असो गोड भुरगो आशिल्लो. मोहनान गेटीच्या भायर पावल घालना बरोबर ताका थंय खूब वेळ पसून उबी आशिल्ली जाणटेली दिश्टी पडली. मोहन तिका थोडो वेळ पळयत रावलो. तिगेली स्थिती पळोवन ताका वायट दिसलें. मोहनाले टिमीचे गडे ताका मळार आपयताले. पूण ताणें आयकलें ना. तो जाणटेले म्हयांत गेलो. आनी तिका प्रेमळ आनी गोड उतरांनी विचारलें, "आई, तूं अशक्त आसा आनी शियान कुडकुडटा. हांव तुका कसली मदत करूं?"

जाणटेलेच्या तोंडार उजळसाण आयली. तिका आनंद जालो. तिका पयलीं दिशिल्लें, हांव एकटी, दुबळी. असल्या मनशाक कोण पळयता? पूण आतां तिचे मुखार एक गोड भुरगो तिका आधार दिवंक पळयतालो. ताणें आपल्याक आई म्हूण पाचारलें. देवानच ताका आपले मदतीक धाडला. जाणटेलेन सांगलें, "म्हज्या मोगाळ पुता, म्हाका तूं ह्या निसरड्या रस्त्यावेल्यान पेले वटेन व्हरशी? रस्त्याचे पेले वटेच्यान थंयच त्या दुकाना फाटल्यान म्हगेलें घर आसा." मोहनान ते जाणटेलेचो कडकडपी हात आपले माने

भोंवतणीं घालो आनी तिका सांगलें, "यो आई, सवका चल. हांव तुज्या आधाराक आसां."

जशीं मोहन आनी जाणटेली दोगांय रस्त्यान वचूंक लागलीं, जाणटेली मोहना कडेन प्रेमान उलोवंक लागली. तिणें ताची तुस्त केली आनी ताका आपले आशिर्वाद दिले. ताचे खातीर देवा कडेन प्रार्थना केली आनी मागलें, ह्या भुरग्याक सदांच सुखी दवर. मागीर जाणटेलेन मोहनाल्या आवय-बापायची खबर घेतली. उलयतां उलयतां जाणटेली आपल्या घरा पावली. घरांत भितर सरचे पयलीं जाणटेलेन आपले दोनय हात उबारून मोहनाक आशिर्वाद दिलो आनी म्हणलें, "म्हगेल्या पुता, देव तुजें बरें करूं. ताणें तुका सदांच सुखी दवरचो."

तें आयकून मोहनाक आपल्यांत नवी शक्ती आनी आनंद रिगिल्ल्याचो भास जालो. उपरांत मोहन आपल्या इश्टां भितर मिसव्ळो. तेन्ना इश्टांनी ताका विचारलें, "तुवें ते जाणटेले खातीर इतले त्रास कित्याक घेतले? तूं काय तिका वळखय पसून ना." मोहनान गंभीरतायेन सोगलें, "ती कोणाची तरी आवय आसतली." "दुसऱ्याले आवयक तुवें कित्याक मदत करूंक जाय?" एका इश्टान परत विचारलें. मोहनान जाप केली, "कारण केन्नाय कोणय म्हगेले आवयक अशीच मदत करतलो जेन्ना तिका मदतीची गरज लागतली आनी हांव तिच्या म्हऱ्यांत तिका मदत करपाक पावचों ना."

सगळ्या भुरग्यांचेर मोहनाल्या उतरांची छाप पडली. एका

इश्टान म्हणलें, “मोहनाक आपले आवयचो बरोच अभिमान दिसता अशें दिसता.” “जरूर दिसता,” मोहनान जाप दिली. “जो कोण आपले आवय विशीं अभिमान बाळगिना तो जिणेंत केन्नाच बरो मनीस जावंक शकना.”

* * *

# भाग दोन

(तिसरे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या दुसऱ्या वर्साक)

## १३. संतांची शिकवण

संवसारांत सगळ्या देशांनी साधू-संतांक मान दितात. कारण ते आमकां गूढ सत्यां सादे सोपे रितीन शिकयतात. तशेंच ते आमकां जिणेच्या खऱ्या सुखाचो मार्ग दाखयतात.

श्री रमण म्हारुशी हे दक्षिण भारतांतले एक व्हड संत जावन गेले. भारतांतल्या सगळ्या भागांतल्यान तशेंच इतर देशांतल्यान भक्तांचे जथे तांचें दर्शन आनी आशिर्वाद घेवपाक गर्दी करताले.

एक दीस एका भक्तान श्री रमण म्हारुशी पळसाच्या पानांक शिगरां लावन पत्रावळी लायतना पळयलें. तो तरूण थंयच

थोडो वेळ रावन अजापान पळयतालो. ताणें म्हारुशीक विचारलें, "भगवान, तुमी एक व्हड म्हारुशी. पत्रावळी लावन आपलो मोलादीक वेळ असल्या क्षुल्लक कामा खातीर वापरुन ताचो तुमी दुरुपेग करतात अशें तुमकां दिसना?"

रमा म्हारुशी हांसले आनी तांणी म्हणलें, "म्हगेल्या पुता, खंयचेंच काम वेळेचो दुरुपेग करिना. फकत तें काम बऱ्या कार्याक, दुसऱ्याच्या बऱ्या खातीर आनी तें योग्य रितीन केलें जायत तर तातूंतल्यान कितेंय तरी उपेगाचें शिकपाक मेळटलें. त्या कामाचो थोडो वांटो पसून तुका कितें तरी मोलादीक शिकयतलो. देखीक, हें पत्रावळी लावपाचें काम घे. शिगरां लावन ह्या पानांच्यो पत्रावळी केल्यो म्हणटकर ह्या पानांक म्हत्व येता. तांचो उपेग भुकेल्ल्यांक जेवण वाडपा खातीर जाता. जेवण घेतले उपरांत त्यो उश्टऱ्या वाऱ्यार उडयतात.

तेच भशेन आमगेल्या देहाक म्हत्व केन्ना येता? जर बरें जिणें जगपाक ताचो वापर केलो, दीन-दुबळ्यांक निसुवार्थीपणान आमी ताची सेवा दिली, दुसऱ्याक गरजेक पावले जायत तरच ताका किंमत येता. पूण एक, सगळे कडेन निसुवार्थीपण आसप गरजेचें. स्वार्थी मनीस जो आपले जिणेचो उपेग फकत आपल्याच खातीर करता, तो आपले जिणेचो इबाड करता. तो मागीर शंभर वर्सां जगूं वा हजार, ताची जीण एखाद्र्या पशू परस बरी आसना. जनावरां देखीक, मेंढरां, बोकड्यो जगतात, खातात, व्हड जातात आनी

मरतात. असली जीण कितें उपेगाची?"

आनी एक दीस श्री रमण म्हारुशीन रांदचे कुडींत तांदळाचे थोडे दाणे जमनीर पडिल्ले पळयले. ते रोखडेच थंय बसले. आनी ते दाणे एक एक करून वेंचून काडले. इतले म्हणसर खूबशे भक्त तांचे भोंवतणीं जमले. आनी म्हारुशी कितें करतात तें पळयलें. तांकां अजाप जालें. ज्या म्हारुशीन आपलें घर-दार, सगळो संवसार देवा खातीर सोडलो तो एक एक करून तांदळाचे दाणे वेंचता. त्या भक्तांच्या ग्रुपांतल्या एका भक्तान तांकां विचारलें, "भगवान, आमचे कडेन तांदळांचे खूबशे साक आसात. हे थोडेशे पडिल्ले दाणे तुमकां त्रास घेवन कित्याक वेंचूंक जाय?"

श्री रमण म्हारुशीन तकली वयर काडून पळयलें आनी सांगलें, "तुमकां हे तांदळांचे दाणे दिश्टी पडटात. तुमी त्या दाण्यां भितर पळोवपाचो प्रयत्न करात. हातूंत शेतकाराले कितले कश्ट आसात, हे दाणे तयार करपांत कितल्या जाणांचो हातभार लागला तें चिंतात. पयली गजाल म्हणल्यार शेतकारान जमीन कसली. तातूंत बीं पेरलें. शेताक उदक लायलें. समुद्राच्या उदकाक सुर्यान आपलें वत दिवन ताचो गोड उदकांत बदल करून ताची वाफ केली. तिचीं हलकीं कुपां जावन तीं वयर गेलीं. योग्य वेळार थंड वाऱ्यान त्या कुपांक आपले थंडायेन जड करून सकल हाडलीं. आनी शेताक पावसाच्या रुपान उदक मेळ्ळें. सुर्याच्या वतान त्या भाताच्या रोपांक अन्न दिलें. तांकां वयर काडलीं. रोपां कणसार

आयलीं. थंड वाऱ्यान तांकां खेळयलीं. कणसांक भाताचे दाणे आयले. तांचेर प्रक्रिया जावन तांचें रुपांतर तांदळांच्या दाण्यांत जालें. ह्या प्रत्येक दाण्यांत देवाचो हात आसा. आतां हें सगळें तुका कळून आयलें म्हणटकर ह्या दाण्यांक तुगेल्या पायां मुळा माडोवं नाका. ते जर तुका खावपाक नाका जायत तर ते सुकण्यांक घाल. दाण्यांचो इबाड करूं नाका."

अशे रितीन संत आमकां सुखी आनी उपेगी जीण सारपाची वाट दाखयतात. ज्या लोकांक संतांची संगत मेळटा वा आत्रे पयऱ्यान तांची भेट घेतात ते खरेलेच भाग्यवान.

* * *

# १४. विश्व-प्रेम

पैगंबर महमद जगाक आपल्या इस्लाम धर्माची शिकवण दिताले. ते देव मनीस आशिल्ले. लोकांक सत्याचो, प्रार्थनेचो, शांतीचो, मनशा-मनशांतल्या प्रेमाचो संदेश दिताले. जेन्ना पैगंबर महमदांनी इस्लामाची शिकवण चलयली तेन्ना खूब लोकांनी तांकां विरोध केलो. थोड्यांक तांगेली शिकवण पटली ना. कारण तांगेलें अज्ञान. इतरांक पैगंबरांली वाडटी लोकप्रियता पळोवन ते तांचो दुस्वास करूंक लागले. खूबशा जाणांनी तांचे विशीं फटीच्यो खबरी पातळायल्यो. इतलेंच न्हय, थोड्यांनी तांचेर हल्लो करून तांकां शारिरीक दुखापत करपाचो बेत रचलो.

ह्या लोकां भितर एक जाणटी अरब बायल आशिल्ली. तिका महमदाली वाडटी लोकप्रियता आनी अनुयायांची वाडटी संख्या पळोवन आपलो राग आवरना जालो. तिका तिचे नदरेन

एक आनंदाची बातमी कळ्ळी. पैगंबर मशिदींत वतना सदांच तिच्या घरा कडल्या मार्गान वतालो.

महमद सदां भशेन तिगेल्या घराच्या दारांतल्यान फुडें वचपाक लागलो. तो घराच्या म्हऱ्यांत पावता अशें पळोवन ती आपले माळ्येचे गच्चेर गेली आनी वेल्यान कोयर आनी घाण महमदाच्या माथ्यार ओतली. पूण महमदान तक्ली वयर काडून पळयलें पसून ना. ताणें तसोच आपले तक्ले वयलो कोयर फाफुडलो आनी आपल्या मार्गान फुडें गेलो. ते बायलेक खीण भर बरो आनंद जालो. तिणें म्हणलें, आपणें ताच्या माथ्यार बरी घाण ओतली. तिगेलो राग थोडो न्हिवलो.

ते बायलेचो हो नित्य-नेम जालो. पैगंबराच्या माथ्यार अशीच घाण उडोवची आनी तातूंत थोडें सूख मानचें. पूण ताणें केन्नाच तकली वयर काडून पळयलें ना आनी हे गजालीक म्हत्वय दिलें ना.

एक दीस महमदाक सदां भशेन वतना त्या घरा कडेन पावतकर याद जाली. आपल्याचेर जी घाण सदांच पडटाली ती ह्या तीन दिसांत पडूंक ना. ताका दिसलें एखाद्रें आपल्या अनुयायांक हें कळून तांणी ते व्यक्तीक शिक्षा बी केली काय? कशेंय आसूं, म्हाका हें सोदून काडचें पडलें. ते व्यक्तीचें कितें जालें जायत? अशें येवजून महमद त्या घराचीं सोपणां चडून माळयेर गेलो.

ताणें कुडीच्या दारार मारलें. दार अर्देंच लोटिल्लें आशिल्लें. भितर सावन एक मंद आवाज आयलो, 'यो भितर यो.' महंमदान भितर कुडींत पावल घालना फुडें ताणें एक जाणटी बायल बाजेर

हांतुळणार न्हिदून आशिल्ली पळयली. जोराचे दुखीन ती परवंताली. ‘आई’ म्हणून उलो मारून महमदान मायेन म्हणलें, “तूं खूब दुयेंत दिसता. तूं कितेंय वखद घेता काय ना?” जाणटेलेन म्हणलें, “हांगा म्हजेर लक्ष दिवपाक कोण ना.” मोठ्या कश्टांनी ती उलयली. “म्हाका कितेंय जाय जाल्यार हांवच वचून तें घेतां.”

महमदान फाटल्या तीन दिसां सावनच्या तिच्या दुयेंसाची म्हायती घेतली. आनी तो उठून गेलो. कांय वेळान महमद हातांत एक वखदाची बाटली घेवन परतो आयलो आनी तिका सांगलें, “आई, हांवें हें वखद हकिमा कडल्यान हाडलां.” ताणें तें वखद तिच्या कांचेच्या पेल्यांत ओतून ओंठां कडेन धरलें. आनी सांगलें, ‘दिसांतल्यान तीन पावटी घेवपाचें. तूं रोखडीच बरी जातली.’

जाणटेलेचे दोळे दुकांनी भरले. तिणें म्हणलें, केदें व्हड काळीज हें ह्या मनशाचें! कितलें संयमी! कितलें मोगाळ! कितलें निवळ! तिणें महमदाक म्हणलें, “तूं खरेलोच देव मनीस.” ती अडखळ्ळी. रडत रडत तिणें सांगलें, “हांवें तुजे कडेन केल्ल्या एद्या व्हडल्या पातकाक देव म्हाका क्षमा करीत? म्हजेर दया कर आनी म्हाका देवा कडेन वचपाचो योग्य मार्ग दाखय.”

पैगंबरान ते जाणटेलेक सांगलें, “आई, तूं दुख्खी जावं नाका. तुजे कडेन सुद्धा आसत कीं देव हो सर्व शक्तिमान, सर्वज्ञ आनी सर्वव्यापक

आसा तर तो तुजे पसून केन्नाच पयस आसचो ना. पूण फक्त पुजाच ताका तितलो आनंद दिना. सगळ्या प्राणीमात्रांचेर आशिल्लें प्रेम, प्रार्थनेंतल्यान ताची साधना, सत्या विशीं प्रेम, तुज्यांत आशिल्ली क्षमा, परोपकार, निसुवार्थीपणान केल्ली दीन-दुबळ्यांची सेवा हींच आमकां देवाक आवडपी मनीस करतात. आनी तो आपल्या कडेन येवपाचो मार्गय तांकां दाखयता."

* * *

## १५. दुसऱ्या विशीं कुन्नाटपणां मनशाचो सत्यानाश करतात

माधव आनी केशव नांवांचे दोग शेतकार आशिल्ले. ते एकाच खेड्यांत लागीं-लागीं रावताले. तातूंतलो माधव हो बुद्धिमान, कश्टाळू आनी आनंदी, सुखी, हंसतमुख आसतालो. हाचे उलट केशव हो आळशी, सदां चिंतेस्त आनी दुख्खी आसतालो. तो माधवाचो खूब दुस्वास करतालो. माधवाक पळयल्यारच ताका तिडक मारताली. तो सदांच देवा कडेन माधवाचो सत्यानाश जावंचो अशें सांगून देवाक पारथितालो.

पूण देव सदांच माधवाचे वटेन ओडटालो. कारण खेड्यांतले सगळे लोक सुखी जावंचे, आपले भशेन तांच्या तोंडार हांशें खेळचें, देवान तांकां सुखी समाधानी दवरचें अशें माधवाक सदांच दिसतालें. एक पावट माधवान खूब कश्टांनी आनी सतत प्रयत्नांनी

एक अजापांचो अप्रतीम दुदी आपले बागेंत पिकयलो. त्या दुदयाचे कातीर इंद्रधणूचे सात रंग दिसताले. ती एक वेगळीच जात आशिल्ली. त्या दुदयाक मोगरे फुलांचो वास येतालो. तो दुदी आकारान बरोच मोठो आशिल्लो. ताका चार पांय आशिल्ले. एक मान आनी एक शेंपडी आशिल्ली. ताका लागून तो दुदी एका हतया भशेन दिसतालो. तो रुचीकय गोड म्होंवा भशेन आशिल्लो.

माधवाक दिसलें, हो अजापांचो दुदी भेट म्हूण आमगेल्या राजाक दिवंचो. अशें म्हणून माधवान तो दुदी व्हरुन राजाच्या पांयां कडेन आपलो नजराणो म्हणून दवरलो. तो दुदी पळोवन राजाक खूब अजाप आनी आनंद जालो. ताणें माधवाचो सत्कार केलो आनी एक जिवो हती ताका आपली देणगी म्हूण दिलो.

जेन्ना केशवाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ताका माधवाचो खूब दुस्वास जालो. ताका त्या रातोडाक न्हीद पडली ना. माधवान राजाक खोशी करपाक जें कितें केलां ताचे परस राजाक चड खोशी करपाक कसली वस्त दिवची हे चिंतेंत तो पडलो. हांवें राजाक माधवा परस चड मोलाची वस्त दिली जाल्यार राजा आपल्याक माधवा परस चड दितलो. घडये आपल्याक एक-दोन खेडीं दिवन व्हडलो जमीनदार पसून करीत.

दुसऱ्या दिसा केशवान आपलें शेत, गायो, बैल, मेंढरां, बोकड्यो सगळें विकलें. आनी त्या पयशांनी एक व्हडलो हती घेतलो. आनी दुसऱ्या दिसा राजाक भेट म्हणून दिलो. राजाक

अजाप जालें. खेड्यांतलो एक शेतकार आपल्याक एक व्हड हती भेट म्हूण दिता? राजान आपल्या बुदवंत मंत्र्याक आपयलो आनी सांगलें, "एक खेड्यांतलो सादो शेतकार म्हाका येदो व्हडलो हती भेट म्हूण दिता हाचे फाटल्यान कितेंय तरी कारण आसूंक जाय. तें सोदून काड आनी ह्या शेतकाराक हे भेटी बद्दल कितें दिवपाचें तें चिंतून सांग."

तो मंत्री बुदवंत आनी शाणो आशिल्लो. ताणें केशवा कडेन खबरी मारपाक सुरवात केली आनी हळू हळू केशवा कडल्यान सगळी खबर जाणा जालो. ताका कळून आयलें माधवाच्या दुस्वासा लागून केशवान आपलें सगळें विकून हती घेवन राजाक भेट म्हूण दिला.

मंत्र्यान राजाक हें सगळें सांगलें. "म्हाराज, तुमी माधवाक दुदया बदला एक सुंदर हती दिवन ताचो सत्कार केलो. म्हणटकर केशवाक आतां एक सुंदर दुदी दियात." राजान केशवाचोय व्हड दबाज्यान सत्कार केलो आनी ताका एक सुंदर दुदी दिलो.

दुदी पळोवन केशवाक घुंवळ आयली. आनी तो सामको निर्शेलो. केशवान आपलें सगळें पोट विकिल्लें. तो आतां सामको मातयेभरवण जालो. हें इतलेंय जावपाक कारण एकच, कुन्नाटकाय.

* * *

## १६. फुशारकी धडो शिकली

एक पावट गांधीजी एके व्हड बोटींतल्यान इंग्लंडाक परिशदेक वताले. बोटीचे माळयेर एका मेजा कडेन बसून गांधीजी पत्रां बरयताले. टीपटॉप कपडे केल्लो एक इंग्लीश तरूण थंय आयलो. गांधीजींक पळोवन ताची करमणूक जाली.

तो टीपटॉप कपडे केल्लो तरूण आपल्या कॅबिनांत गेलो. ताणें कागदाचे थोडे कुडके जमोवन ताचेर वायट उतरांनी आपल्याक जाय तें खरडलें, तांचेर गांधीजींची टर उडोवपी चित्रां काडलीं. त्या तरूणाक अजाप दिसलें. अर्द्या कपड्यांतलो, खड्डो जाल्लो, तोंडांत दांत नाशिल्लो अशा मनशाक इंग्लंडाक कित्याक वचूंक जाय. त्या चिटोऱ्यांतल्यान ताणें गांधीजींक उपदेश केलो, "तूं अशा अर्द्या कपड्यांत परदेशांत वचपाचीं पिशेपणां सोडून दी." मागीर ताणें ते सगळे कुडके एक करून तांकां पीन लायली आनी गांधीजींक राग

हाडपा खातीर ते घेवन तो डेकीर आयलो.

झेतान ते कुडके घेवन गांधीजी जंय बरोवपा बशिल्ले थंय तांचे म्हऱ्यांत गेलो आनी भारतियां विशीं आपलीं नाखुशीचीं आनी अवमान करपी उतरां उलोवन ते चिटोरे गांधीजीक दिले आनी सांगलें, “हे तुका उपेगाक येतले आनी मजेशीर लागतले. ते वाच आनी तुजे कडेनच दवर.”

अशें सांगून हाचेर गांधीजींची प्रतिक्रिया कितें जाता तें पळोवपाक तो तरूण पयस वचून थोड्या अंतराचेर उत्सुकतेन उबो रावलो. गांधीजीन थंडपणान त्या चिटोऱ्यांतलो प्रत्येक शब्द वाचलो, तकली वयर काडली आनी खीणभर त्या तरुणा कडेन पळयलें. मागीर सवकसायेन ती पीन काडून घेतली आनी ते सगळे चिटोरे कोयराच्या पाट्यांत उडयले. आनी त्या तरुणाक सांगलें, “तुवें म्हाका जें कितें सांगिल्लें जुस्त तशेंच हांवें केलां.” आनी आपल्या सदांच्या रुंद हांशान सांगलें, “हांवें चिटोऱ्यांक लायिल्ली पीन तितली म्हगेल्या उपेगा खातीर दवरल्या. तीच एक पीन तुवें दिल्ल्या वस्तूंत उपेगाची आशिल्ली. ते खातीर तुजे आभार. तुगेल्या चिटोऱ्यांक फावो तो जागो दिला.”

त्या तरुणाक आपली चूक कळून आयली. ताका दिशिल्लें आपणें केल्ले टवाळेन गांधीजी रागान उसळटले आनी बोटी वेल्या सगळ्या लोकांक हो देखावो पळोवन मजा येतली. पूण गांधीजीलें जाय तितलेंच आनी गोड उतर ताच्या काळजाक सरळ तोपलें.

ताका कळून आयलें, गांधीजी कितले सादे, बुद्धिमान, सभ्य. तशेंच तांगेल्या सभावांतली नमळकाय. गांधीजींच्या ह्या गुणांनी त्या तरुणाचेर छाप घाली. ताणें लजेन मान सकल घाली आनी तो आयिल्लो तसो परतो आपल्यां कॅबिनांत गेलो. गांधीजीं कडल्यान घेतिल्ली शिकवण ताका ताचे फुडले जिणेंत खूब उपेगाक पडली आनी तागेलो पोको भपको- वर्णभेद- पयस जालो.

* * *

## १७. गर्व मनशाक सदांच खाला उडयता

श्रीकृष्ण आनी अर्जुन एक पावट यमुनेच्या कांठा वेल्यान चलताले. यमुनेक पळोवन कृष्णाक ताच्या भुरगेपणांतल्या खेळांची आनी त्या वेळा वेल्या तागेल्या खोडींची, आनंदाची याद जाली. तेन्नाचे विचार ताच्या मनांत ताजे जाले. त्याच वेळार अर्जुनय कुरुक्षेत्रार थोड्या दिसांनी जावपा आशिल्ल्या युद्धाचो विचार करतालो. ताका दिसलें आपूण शूर, वीर आनी धनुर्विद्येंत इतलो पारंगत आसां कीं आपले बरोबरीचो पृथ्वीर आनी दुसरो योद्धो ना. आपले भितरच तागेले विचार चलिल्ले. इतले म्हणसर ताचें लक्ष खळखळून व्हांवपी यमुनेचेर गेलें आनी ताचें मन आनी भरकटलें. ताका दिसलें आपूण हे न्हंयेच्या रूंद पात्राचेर कांय न्ही करून खिणा भितर सहज पूल बांदूंक शकतां.

ताणें मनांत म्हणलें, “श्री रामान जें केलें ना तें हांव सहज

करूंक शकतां. रामान लंकेचेर स्वारी करतना लंकेक वचपाक वानरांक फातरांचो पूल बांदूंक लायलो."

कृष्णान सहज अर्जुनाच्या तोंडा कडेन पळयलें. ताका अर्जुनाच्या मनांत चलिल्ल्या विचारांचो अंदाज आयलो. आनी ताका कळून आयलें कीं अर्जुनाच्या मनांत अहंकार रिगला. कृष्णान अर्जुनाक म्हणलें, "अर्जुन, तूं तुजे भितर हांसतासो दिसलो. म्हगेलें कितेंय चुकलें म्हणून तूं म्हाका हांसता काय कितें?" अर्जुन थोडो अडखळ्ळो. आनी मागीर ताणें सांगलें, "खरी खबर. हांव म्हजे भितर हांसतालों. पूण तें तुका लागून न्हय. म्हाका रामाची याद जाली. रामान लंकेक लडायेक वतना वानरांक फातरांचो पूल बांदूंक लायलो. हांव जर थंय आसतां तर हांव बाणांचोच पूल बांदतां आशिल्लों आनी तोवूय एका खिणा भितर."

कृष्णान अर्जुनाचो अहंकार सकल हाडपाचें थारायलें. म्हणटकर ताणें अर्जुनाक समजावपाचो प्रयत्न केलो आनी सांगलें, "रामान बाणांचो पूल बांदलो ना कारण तागेल्या सैन्यांतल्या शक्तिमान वानरांच्या वजनान तो वेळ लागनासतना मोडून वतलो आशिल्लो." पूण अर्जुनाचो अहंकार देंवलो ना. अर्जुनान गंभीरतायेन म्हणलें, "हाचो अर्थ रामाक सेनेचें वजन घेई सारको सशक्त बाणांचो पूल बांदूंक आयलो ना."

कृष्णान थोडो वेळ विचार केलो आनी सहज हांसत हांसत सांगलें, रामाल्या सैन्यांतलो एक शक्तिमान वानर अजूनय जितो

आसा. तुज्यान यमुनेचेर बरो गडगंज सशक्त असो पूल बांदूं जाता. हांव त्या वानराक आपयतां. तो तुगेल्या पुलाची ताकद कितली आसा तें पळयतलो.

अर्जुनान अभिमानान कृष्णाचें आव्हान स्विकारलें आनी अर्जुनान यमुनेच्या त्या रुंद पात्राचेर आपल्या बाणांनी गडगंज सशक्त पूल बांदलो.

श्रीकृष्णान हनुमानाक बेगीन येवपाक सांगलें. एक उंच्च वानर कृष्णा मुखार उबो जालो. आनी ताणें कृष्णाच्या पांयांक हात लावन नमस्कार केलो. हनुमानान कृष्णाक कित्याक याद केली म्हूण विचारलें. कृष्णान सांगलें, "ह्या पुला वेल्यान चलून वच आनी पुलाची ताकद पळय." अर्जुन आपले भितरच हांसलो. आतां कृष्णाची कशी फजेत जाता ती कळटली. आनी तो कितें घडटा तें पळोवंक रावलो.

हनुमानान थोडें कांकूं करूनच आपलो उजवो पांय पुलार दवरलो आनी फुडें वचपाक दावो पांय उबारलो मात, सगळो पूल हनुमानाच्या एकाच पांयाच्या पेजान कोसळ्ळो. कृष्णान अर्जुना कडेन पळयलें. अर्जुन सामको निर्शेल्लो. ताणें आपल्यालें गांडीव धनुश्य सकल उडयलें, भातो उडयलो आनी कृष्णाच्या पांयांर घालून घेतलें.

कृष्णान अर्जुनाक समजायलो. ताका तागेल्या हिताचो उपदेश केलो. "अर्जुना, तूं निराश जावं नाका. श्री रामाक पसून तागेल्या

सेनेचें वजन घेवपी इतलो सशक्त पूल बांदपाक जालो ना. म्हणटकर तुका इतली लज कित्याक दिसची? पूण आयचो हो धडो घट लक्षांत दवर. आनी केन्नाच गर्व आनी अहंकाराक तुज्या काळजांत रिगूंक दिवं नाका. हे दोनय तुज्या सारख्या शुर विराचे म्हाशत्रू. तूं तांकां लागीं करशी तर खात्रीन तुजो युद्धांत पाडाव जावंक शकता."

अर्जुनान कृष्णालो उपदेश रोखडोच मानून घेतलो. आनी उपरांत कृष्णाले आज्ञेन चिरंजीव हनुमानान अर्जुनाल्या रथाचेर आपलें युद्धांत स्थान घेतलें. आनी ताची कुरू म्हूण अर्जुनाल्या रथाच्या झेंड्याचेर हनुमानाचें चित्र आसतालें. आनी ताका कपिध्वज अशें युद्धांत नांव पडिल्लें.

* * *

## १८. साद्या भेसांत सादीं व्हड काळजां

समाजांत वावुरतना आमी उंची आनी भडक रंगाचे कपडे घाले म्हूण समाजांत मान मेळटा? फकत अज्ञानी लोकांकच दिसता झकपक कपडे केले आनी आंगार भांगरां-शिंगरां, हिरे माणकांचे दागिने घाले म्हणटकर लोक आपल्याक चड मान दिवन वागयतले.

एक खरें, मनशान सदांच बरे धुल्ले, बरी घडी घाल्ले कपडे वापरून सभ्य दिसप बरोबर. आमी उंची उंची कपडे वापरले आनी आंगार ठळक उंची अलंकार घाले म्हणटकर चड मान मेळटा हो समज चुकिचो. खरें म्हणल्यार उंची कपडे, भांगरां-शिंगरां घेवपाक जो खर्च करतात तो व्यर्थ आसता. ताच्या वांट्याचे ते पयशे दुसऱ्याक कितेंय बरें करपाक उपेगा हाडप हें बरोबर.

जगांतले जायते व्हड मनीस सदांच आपल्या आंगांत सादे कपडे घालून आयल्यात. तांगेली वागणूक सदांच नमळायेची उरल्या.

तांगेल्या साद्या भेसान आनी सादे वागणुकेन तांच्या व्हडपणांत आनीक भर पडल्या. हांगा देखीक दोन दाखले आसात.

१. मिकायल फराडे आनी २. महात्मा गांधी

१. मिकायल फराडे

मिकायल फराडे हे एक व्हड शास्त्रज्ञ जावन गेले. तांणी डायनामोचो सोद लायलो. ताका लागून आमकां घरांत, कारखान्यांत, कापड गिरण्यांनी लायट मेळ्ळी. आपल्या व्हडपणाचो तांणी केन्नाच गवगवो केलो ना. ते सादे कपडे वापरताले. खूब वेळा तांगेले सादे कपडे, सभ्य वागणूक आनी सादो भोळो सभाव हाका लागून दुसऱ्यां कडेन वागतना तांगेली उच्च प्रतीची बुद्धी धांपून आसताली.

एक दीस इंग्लंडच्या रॉयल टांकसाळेचो एक अधिकारी फराडेक मेळूंक रॉयल सोसायटी ऑफ सायन्सचे कचेरेंत गेलो. थंयच्या एका मनशान ताका जंय फराडे आपलें संशोधन करताले थंय पावयलो. जेन्ना हो अधिकारी भितर सरलो तेन्ना फराडे आपलें संशोधन सोंपोवन ग्लास ट्युब्स वॉश बेसिनाचेर धुतालो. तो अधिकारी फराडेक वळखनाशिल्लो. ताणें पळयलें, वॉश बेसिनाचेर एक जाणटो मनीस बाटल्यो धुता. ताच्या आंगार एक पिंगट रंगाची पँट आनी धवो शर्ट आशिल्लो. अधिकाऱ्यान त्या जाणट्या मनशाक विचारलें, "तूं हे सोसायटीचो वॉचमन?" "हय," त्या जाणटेल्यान जाप दिली. आनी ताणें त्या अधिकाऱ्या कडेन पळयलें. तो ठाकठीक ड्रेसांत आशिल्लो.

अधिकाऱ्यान जाणटेल्याक विचारलें, “तूं हांगा कितलीं वर्सां काम करता?” जाणटेल्यान सांगलें, “चार वर्सां.” अधिकाऱ्यान ताका परतें विचारलें, “हांगा मेळपी पगारांत तूं पूर्ण समाधानी आसा?” त्या जाणटेल्यान जाप दिली, “हय. हांव पूर्ण समाधानी आसां.”अधिकाऱ्यान परतो आनी एक प्रस्न केलो, :“तुजें नांव कितें?” जाणटेल्यान ताका सांगलें, “म्हाका लोक मिकायल फराडे म्हणटात.” आनी हांसलो.

मेळूंक आयिल्ल्या अधिकाऱ्याक जाप आयकून सटक जालें. तो सगळो घामाघूम जालो. ताका आपणें केदी मोठी चूक केली ती कळून आयली. अधिकारी आपल्या कदेला वेल्यान उठलो आनी मोठ्या पच्छतापाच्या उतरांनी फराडेची माफी मागली. आनी मनांत म्हणलें, हो एदो व्हडलो मनीस कितलो सादो! काय हाच्या साद्या भोव्या काळजाक लागून हो इतलो व्हड जावंक पावला?

## २. महात्मा गांधी

गांधीजीनीं भारताचे स्वतंत्रतायेची चळवळ सुरु केल्ली. ते जंय जंय वताले थंय थंय लोकांची खेट जाताली. ते लोक मोठमोठ्यान आड्डताले, घोशणा दिताले, गांधीजींचो जयजयकार करताले.

एके सकाळ फुडें गांधीजींचे चाहते आनी गांधीजींनी चलयिल्ल्या धाडसी स्वतंत्रतायेचे चळवळीची तोखणाय करपी रिचर्ड क्रेग नांवाचे एक अमेरिकन साबरमती आश्रमांत गांधीजींक मेळूंक आयले. आश्रमाचें ऑफीस उकतें जावचें आशिल्लें. म्हणटकर क्रेगांनी आश्रमांतले एके व्यक्तीक विचारलें, “गांधीजी म्हाका खंय मेळत?”

ते व्यक्तीन सांगलें, "गांधीजी सार्वजनीक जेवणा कुडींत आसात." "हांव थंय वचून तांकां मेळूंक शकतां?" क्रेगांनी थोडें कचरतच विचारलें. क्रेगांक परती जाप मेळ्ळी, "बरे भशेन. ते एकटेच आसात. तुमी भितर वचात."

क्रेग भीत भीतच भितर सरले. हांव एकाद्रे गांधीजींल्या सकाळच्या नाश्त्या वेळार व्यत्तय हाडिना मू? तांणी मनांतच म्हणलें. पूण ते फुडें गेले. तांणी थंय गांधीजींक दनपारच्या जेवणाक भाजी शिनतना पळयलें. क्रेगांनी मनांतच म्हणलें, एदी व्हडली चळवळ चलोवपी आश्रमांत दनपारच्या जेवणाक भाजी शिनता.

तशेंच गांधीजींच्या आंगार धवें फुल्ल पुडवें आसलें. तें धोंपरा मेरेन पावतालें. आनी एक धवें वस्त्र तांणी पांगुरिल्लें. तांच्या खांदार एक शाल आशिल्ली. ती तांची फाट धांपताली. असो सादो भेस आशिल्लो. कितलो सादो मनीस! क्रेगांचेर नदर पडना फुडें गांधीजीन म्हणलें, "येयात, येयात." तांणी आपल्या रूंद हांशान तांकां खुशालभरीत येवकार दिलो आनी म्हणलें, "हांव ह्या बारीक-सारीक कामांत गुंतून राविल्ल्यान तुमकां कांय अडचण जावची ना अशें हांव धरतां."

क्रेगांनी हें सगळें पळयलें. गांधीजींनी खोशयेभरीत हांसत हांसत दिल्ली जाप आयकून तशेंच तागेल्या सादेपणाक आनी सभ्यतेक पळोवन क्रेगांलें काळीज गलबल्लें. जशें लोहचुंबक लोखणाक ओडून घेता तशेंच गांधीजींच्या ह्या गुणांनी क्रेग गांधीजीं कडेन

ओडले. दुसऱ्याच खिणाक क्रेग गांधीजीं बरोबर बसून गांधीजी भाजी शिनतना तांकां मदत करूंक लागले. हेच भशेन व्हड मनीस आपल्या सांगांत्यां खातीर सुखी जगाची निर्मणी करतात.

* * *

## १९. सत्य म्हणल्यार देव (II)

बाळ गंगाधर टिळक एक व्हड मनीस जावन गेले जे भारताच्या स्वातंत्र्या खातीर ब्रिटिशां कडेन लडले.

विद्यार्थी दशेंत आसतना तांगेले शिक्षक तांकां एक व्हड हुशार, बुद्धिमान, गोड सभावाचो, शिस्तीन वागपी भुरगो म्हूण जाणा जाताले. पूण एका शिक्षकाक एक दीस वेगळोच अणभव आयलो. दनपारचे मदले सुटयेंत कांय भुरग्यांनी क्लासांत भिकणां खावन कल्लां शिक्षकाच्या मेजा कडेन जमनीर उडयलीं. उपरांत क्लासांत भितर सरतना खंयच्याच भुरग्याचें लक्ष थंय गेलें ना. स्कुलाची घांट वाजली आनी सगळे भुरगे आपआपल्या सिटार वचून बसले. जसो शिक्षक भितर सरूं नाका ताका आपल्या मेजा कडेन उडयल्लीं भिकणांचीं कल्लां पळोवन तिडक मारली. शिक्षकान तिडकून रागान विचारलें, "हीं आडांगपणां कोणें केल्यांत?" भुरग्यां

कडल्यान कोणालीच जाप आयली ना. शिक्षकान म्हणलें, "हांव परतें विचारतां." अशें म्हणून शिक्षक तापलो. "ही मस्ती कोणालीं? अपराधी भुरगो जर उबो रावना जायत तर जे कोण भुरग्याक वळखतात तांणी ताचें नांव सांगचें."

भुरगे एकमेकां कडेन पळोवंक लागले. आनी थोड्यांक तर अजाप जालें कोण जायत तो?

शिक्षकान रागान मेजावेली आपली बेताची बडी काडली आनी मेजा कडल्यान सकल येवन रागान सांगलें, "जेन्ना तुमी कोणच म्हाका अपराध्याक धरपाक मदत करिनात तेन्ना हांव आतां प्रत्येकाक जबाबदार धरून बडयेचो प्रसाद दितां." अशें म्हणून शिक्षक भुरग्यांचे पयले रांगे कडेन आयलो. इतल्यांत बाळ धिटायेन उबो रावलो आनी सांगलें, "सर, खऱ्यांनीच आमच्या भितरल्या खूबशा जाणांक तो अपराधी कोण हें खबर ना. थोड्या जाणांनी तर थंय आशिल्लीं तीं कल्लांय पळोवंक नात. मदले सुटयेंत आमी सगळेच भायर गेल्ले. कोणय एक दुसऱ्या वर्गांतलो भुरगो येवन तें काम केलां जायत. मागीर निरपराध भुरग्यांक बडयेचो मार कित्याक मेळचो?"

तो शिक्षक बाळाक एक बऱ्या सभावाचो भुरगो म्हूण वळखतालो. शिक्षकान आपलो राग दामून दवरपाचो प्रयत्न केलो. पूण ताका जमलें ना. ताणें बाळाक सांगलें, "तूं चड शाणो जावं नाका. म्हाका खात्री आसा तुमच्यांतले कांय भुरगे तो अपराधी

कोण हें जाणात. जर ते उलयले नात तर म्हाका अख्ख्या वर्गाकच शिक्षा करची पडटली.” रोखडेंच बाळान सन्मानान म्हणलें, “पूण सर, आमकां दिसता हें बरोबर न्हय आनी न्यायाक धरून ना. निरपराध भुरग्यांक बडी बशिल्ली आनी तांकां शिक्षा जाल्ली म्हाका पळोवंक नाका. म्हणटकर म्हाका घरा वचपाक परवानगी दिवची.” शिक्षकान हय वा ना म्हणचे पयलींच बाळान आपलीं पुस्तकां एक केलीं आनी शाळेच्या वर्गा भायर गेलो.

बाळाचे धिटाये खातीर आनी तागेल्या न्याय, सत्य हांचे निश्ठे खातीर सगळ्या भुरग्यांनी बाळाची तोखणाय केली. शिक्षकाच्यानय वेगळो रावूं नजो जाल्ल्यान ताणेंय बाळाची तुस्त केली आनी वर्गाक उद्देशून म्हणलें, “बाळ हो सामान्य भुरगो न्हय. प्रत्येक विद्यार्थी बाळा भशेन प्रामाणीक आनी शिस्तप्रीय आसत जाल्यार आमगेल्या देशाक एक बरें भविश्य आनी बरो फुडार आसतलो.”

बाळ गंगाधर टिळकाक सत्य, न्याय, शिस्त ह्या गुणांचेर आशिल्ल्या तागेल्या प्रेमानच देशाचे एक म्हान फुडारी केले. ह्याच तांच्या गुणांक लागूनच तांकां लोकांनी लोकमान्य ही पदवी दिली आनी ते लोकमान्य बाळ गंगाधर टिळक जाले. तांकां देशांतल्या सगळ्या लोकांचें प्रेम, तोखणाय, मान मेळ्ळो.

* * *

## २०. बरी करणी

एका तेंपार रोमाक एक गुलाम रावतालो. ताचें नांव आंद्रोक्लीस आशिल्लें. तागेलो धनी जाणें ताका विकतो घेतिल्लो तो खूब निश्ठूर आशिल्लो. तो आंद्रोक्लीसा कडल्यान रात-दीस काम करून घेतालो आनी थोडीशी चूक जाल्यार पसून ताका चाबकान फोडून काडटालो. आपल्या धनयाली ताचे कडली वागणूक सोसूं नजो जावन आंद्रोक्लीस एक दीस बंगल्यांतल्यान पळून रानांत गेलो आनी लिपून रावलो. थंय ताका एक घोल आसऱ्याक मेळ्ळी आनी तातूंत तो रावंक लागलो.

एक दीस आंद्रोक्लीस सकाळीं मोठ्या आवाजान जागो जालो. तो आवाज ताका लागीं लागीं येवपाक लागलो. आंद्रोक्लीस भिलो आनी घोलीच्या एका कोनशाक लिपलो. ताणें पळयलें, एक मोठो शींव दुखीन पिडीत जावन मोठमोठ्यान गरड घालीत आपले

घोलींत येतालो. शींव कुटत कुटत गरड घालीत येवन घोलींत एके वटेन पातळ्ळो. आनी आपले जिबेन आपलो सुजिल्लो पांय चाटूं लागलो. तें पळोवन आंद्रोक्लीसाचें काळीज विरगळ्ळें.

शींव सामको दुखीन कळवळटालो. आंद्रोक्लीस सरपटत सरपटत हळू हळू फुडें गेलो आनी तागेल्या पांयाची दुखापत पळयली. एक मोठो कांटो शिंवाच्या पंजांत तोपून बरोच भितर गेल्लो. आंद्रोक्लीसान सवका सवका शिंवालो पांय आपले मांडयेर घेवन पांयांतलो कांटो ओडून काडलो आनी जखमेचेर झाडपाल्याचें वखद लायलें. तीन दिसांनी शिंवाली जखम पुरती बरी जाली. शिंवान उपकारी जावन आंद्रोक्लीसाचे हात चाटले आनी थंयच्यान दुसरे घोलींत गेलो.

आंद्रोक्लीसान ते घोलीक आपलें घर केलें आनी तातूंत थोडे दीस रावलो. उपरांत एक दीस थंयच लागीं आशिल्ल्या शारांत गेलो. ताच्या दुर्भाग्यान तागेलो तो निश्ठूर मालक त्या दिसा आपल्या कामाक लागून त्या शारांत आयिल्ले कडेन ताणें आंद्रोक्लीसाक पळयलो आनी ताका शिपायां कडल्यान कैद करून कादयेंत घालो.

त्या वेळार रोमन कायद्या प्रमाण धनयागेरच्यान पळून गेल्ल्या गुलामाक खूब मोठी शिक्षा जाताली. पळून गेल्ल्या गुलामाक पांदऱ्यांत भुकेल्ल्या शिंवाक भक्ष्य म्हूण उडयताले. गुलामाक आपल्या रक्षणा खातीर एक ल्हान खंजीरा सारखें हत्यार दिताले. मागीर दुसऱ्या पांदऱ्यांतल्यान भुकेल्ल्या शिंवाक त्या पांदऱ्यांत सोडटाले.

शींव गुलामाक कशे रितीन खाता ती मजा पळोवपाक खूब मनशांची गर्दी जाताली. गांवचो मोठो मोठो लोक जमतालो. गांवची राजा-राणी येतालीं. चड करून ह्या झुजाचो शेवट शिंवान मनशाक खावन जातालो.

कायद्या प्रमाण आंद्रोक्लीस एका लोखणाच्या व्हडल्या पांदऱ्यांत भितर गेलो. ताचे कडेन एक ल्हानसो खंजीर स्वताच्या रक्षणा खातीर दिल्लो. थोड्या वेळान एक व्हड भुकेल्लो शींव त्या पांदऱ्यांत सोडलो. शिंवान रागान एक गरड घाली आनी आंद्रोक्लीसा वटेन धांवत गेलो. आंद्रोक्लीसान आपलो खंजीर उबारचो आशिल्लो, शींव अकस्मात थांबलो. ताणें आपल्याली गरडय थांबयली. तो शेपडी सकल घालून हळू हळू चलत आंद्रोक्लीसा म्हऱ्यांत आयलो आनी तागेले हात-पांय चाटूं लागलो. आंद्रोक्लीस आपल्या इश्टाक रोखडोच वळखलो. आनी ताणें शिंवाक आपले वेंगेंत घेतलो. ताका सांसपिलो.

सगळ्या प्रेक्षकांनी हें अजाप पळोवन आनंदान ताळयो मारल्यो आनी शिटी वाजयल्यो. राजान आनी तागेले मंडळीन आंद्रोक्लीसाक आपल्या म्हऱ्यांत आपयलो आनी विचारलें, "शिंवा कडेन तुजी दोस्ती कशी जाली?" आंद्रोक्लीसान तांकां आपली काणी सांगली आनी आपूण रानांत पळून कित्याक गेलों तेंय सांगलें. राजान विचारलें, "जखमी शिंवा म्हऱ्यांत वतना तुका भंय दिसलो ना?" आंद्रोक्लीसान सांगलें, "म्हाका इल्लो पसून भंय

दिसलो ना. म्हाका दिसलें, ह्या क्रूर निश्ठूर धनया कडल्यान जिवीत भर मार खावन रावचे परस एकदांच एका भुकेल्ल्या शिंवाचें खाण जाल्लें कितलेंशेंच बरें."

राजान आंद्रोक्लीसाची सगळी काणी आयकून घेतली आनी तागेलें काळीज कळवळ्ळें. राजान सगळ्या लोकांक गवाय दवरून घोशणा केली. "आयच्यान हो आंद्रोक्लीस गुलाम उरचो ना. ताका हांव गुलामगिरींतल्यान मुक्त करतां. आतां तो एक स्वतंत्र मनीस कसो वागतलो" आनी ताणें आंद्रोक्लीसाच्या निश्ठूर धनयाक आज्ञा दिली, "आंद्रोक्लीसाक आयच्यान तुगेल्या गुलामगिरींतल्यान मेकळो कर. आयच्यान तो एक स्वतंत्र मनीस कसो जगतलो."

* * *

## २१. मैत्री आनी आत्मत्याग

अनील आनी सुनील दोगूय हुशार भुरगे कलकत्त्याक एका नांवाजत्या स्कुलांत पांचवे यत्तेंत शिकताले. ते एकमेकांचे खूब लागींचे मित्र आशिल्ले आनी एकमेकाचेर भावा भशेन प्रेम करताले. सुनील हो सदांच स्कुलांत पयलो येतालो आनी अनील दुसरो येतालो. परिक्षा येताल्यो आनी वताल्यो पूण तांगेल्या स्कुलांत तांगेले नंबर केन्नाच बदल्ले नात. दर वर्सा ते हेच नंबर घेताले.

एक दीस सुनीलाचेर एक व्हड आघात जालो. तागेली आवय विधवा आशिल्ली आनी सुनीलाचो जगांत तो एकच प्रेमाचो धागो आशिल्लो. तिका गंभीर दुखणें आयलें आनी तिणें हांतरूण धरलें. सुनीलान आपले आवयची दोन म्हयने रात-दीस सेवा केली. पूण ताची आवय इल्ली इल्ली अशक्त जायत गेली. आनी दोन म्हयने पिडा सोंसून ती एक दीस हें जग सोडून गेली. वतना तिणें

देवा कडेन प्रार्थना केली, "म्हगेलो सुनील एकलो एकसुरो. आतां तुवेंच ताचो सांबाळ करपाचो." अशी सांगणी करून प्राण सोडलो. सुनील आतां आपल्या काका-काकी कडेन रावपाक लागलो.

सुनीलाक दोन म्हयने स्कुलाक वचूंक मेळ्ळें ना. म्हणटकर वार्षीक परिक्षा लागीं पावली तसो सुनील रात-दीस अभ्यास करूंक लागलो. आपलो सदांचो पयलो नंबर मेळोवपाक तागेली व्हड कश्टांची खटपट चलिल्ली. पूण ताका आवयची परती परती याद येवन तागेल्या अभ्यासांत खंड पडटालो. अभ्यासा कडेन तागेलें मन एकाग्र जायनाशिल्लें. प्रत्येकाक दिसतालें ताका सदांचो तागेलो पयलो नंबर मेळचो.

परिक्षा सोंपली पूण शिक्षकाक अजाप जालें. जेन्ना ताणें अनीलाचे पेपर तपासले, ताका कळून आयलें अनीलान आपले पेपर बरयतना दोन सोपे प्रस्न सोडून दिल्ले. म्हणटकर शिक्षकान अनीलाक आपोवन हाडलो आनी विचारलें, "हे इतले सोपे प्रस्न सोडपाचें कारण कितें? तुका कितें अडचण आयली?"

अनील एक खीण भर ओगीच रावलो. आपलें गुपीत शिक्षका कडेन उकतें करचें काय ना तें तो येवजूंक पडलो. मागीर ताणें दुख्खी आवाजान सांगलें, "सर, तुमकां खबर आसा सुनीलाची आवय वचून तो आतां अनाथ जाला. ह्या सगळ्या वर्सांनी तो सदांच पयलो नंबर घेत आयला. जर सुनीलान आपलो पयलो नंबर वगडायलो जायत तर ताका आनी एक धक्को बसतलो. म्हणून

हांवें ते दोनय प्रस्न सोडले. म्हज्या मनांत ताका तागेलो सदांचो पयलो नंबर मेळचो. ताका चड मार्क मेळून तो पयलो येतलो आनी खोशी जातलो. पूण सर, तुमी हें म्हगेलें गुपीत कोणाकच सांगूं नाकात. तें तुमच्या भितर आनी म्हज्या भितर उरूं दी. सुनीलाक ही खबर कळ्ळी जायत तर तो चड दुख्खी जातलो. आनी म्हगेलो उद्देश फळाक येवचो ना. तो म्हगेलो मित्र. म्हाका तो सदांच सुखी आशिल्लो जाय."

शिक्षकान अनीलाची फाट थापटिली. आनी सांगलें, "म्हाका तुजो पयलीं परस चड अभिमान दिसता. तुगेली मैत्री, प्रेम आनी तुगेलो आत्मत्याग हे व्हड सद्गूण तुज्यांत आसात. म्हाका खात्री आसा हेच सद्गूण तुका फुडें जिणेंत एक दीस व्हड मनीस करतले.

* * *

## २२. मनशाक व्यवहारी शाणेपण गरजेचें

अयोध्येचो युवराज दशरथ हाची खूब नामना तागेल्या शब्दवेधी कळाशे खातीर अयोध्या भर आनी भायल्या राज्यांनीय जाल्ली. तो काळखांत आवाजा वेल्यान अचूक शरसंधान करपांत फिशाल आशिल्लो. लोकांनी केल्ली स्तुती आयकून दशरथाक थोडो गर्वय आयिल्लो. तो सदांच तिनसांजेचो काळोख जालो म्हणटकर काळखे राती रानांनी वचून सावजांची वाट पळयत रानांनी बसतालो. हे खातीर तो एकटोच रथ घेवन रानांत वतालो आनी रथांत बसून सावजांची केन्ना चाहूल येता हें ध्यान दिवन आयकत रावतालो. ताका मध्यानरातीर रानरेड्यांच्या पावलांचो आवाज, केन्नाय हत्तीचो उदक पितना जावपी आवाज, केन्ना केन्ना हरणांच्या पावलांचो आवाज ना जाल्यार सवका सवका येवपी वाघाच्या पावलांचो आवाज येतालो आनी तो बाणान तें सावज टिपतालो.

एका रातोडाक दशरथ झुडपांत बसून सावजाचो उदक पितनाचो, सावजाच्या पांयांनी माडवल्ल्या पाल्याचो आवाज येता काय ताची वाट पळयत बशिल्लो. इतल्यांत अकस्मात ताणें काळखांत तळ्याच्या कांठार कितें हालता तें पळयलें. पूण ताका स्पश्ट कांयच दिसनाशिल्लें. थंयच्यान आयिल्लो आवाज ताका पुरो आशिल्लो. तो खात्रीन एक हती आसूंक जाय अशें दशरथाक दिसलें. आनी हांव शब्दवेधी आसां ह्या अभिमानान ताणें बाण सोडलो. रोखडीच ताणें एक किळांच आयकली. तो काचाबूल जालो. बशिल्लो थंयच्यान उडकी मारून भायर आयलो. आवाज येत आशिल्लो.

"मदत!मदत! कोणें तरी म्हजेर बाण मारला."

दशरथाच्या हातांतल्यान तागेलें धोणू सकल पडलें आनी तो आवाजाचे दिकेन धांवत गेलो. कितें जालां आसतलें हें येवजून तो भंयान सुन्न जालो. रानटी जनावरा बदला ताणें मनीस प्राण्याक मारिल्लो. काळखांतच तो रानांत धांवलो. थंय तळ्याच्या कांठार एक तरूण बाण लागून रगताच्या कोणांत पडिल्लो. पिंजारिल्ल्या केसांचो, हातांत एक बिंदलो जो तो निकतोच उदकान भरतालो.

ताणें विव्हळून दशरथाक विचारलें, "महाराज, तुमीच हो भरण घेवपी बाण मारिल्लो? हांवें तुमचें कितें वांकडें केलें म्हूण तुमी अशी वागणूक दिली? हांव एका वानप्रस्थाचो पूत. म्हगेलीं जाणटीं जाल्लीं आवय-बापूय आंधळीं आसात. हांवच तांची सगळी काळजी घेतालों. हांव तांचे खातीर उदक व्हरूंक आयिल्लों. हांव

आतां फुडें तांची सेवा करूंक पावना. हे वाटेन वच म्हणटकर तूं तांचे खोंपी कडेन पावतलो. हांगा कितें घडलां तें तांकां सांग. ताचे पयलीं म्हगेले शातयेक तोपिल्लो हो बाण ओडून काड. तो म्हाका खूब त्रास करता. कळ हाडटा."

दशरथान तो बाण ओडून काडलो आनी त्या तरुणान त्याच बरोबर आपलो प्राण सोडलो.

मागीर दशरथान तो बिंदलो उदकान भरलो आनी तरुणान मरतना दाखयल्ले वाटेन गेलो. तो लागीं पावतांच (तरुणाच्या) बापायन विचारलें, "पुता, तुका वेळ कित्याक जालो? तूं थंय तळ्यांत पेंवपाक देंवलो? तुका कितेंय दुखापत जायत म्हूण आमकां हांगा भंय जालो. पूण तूं परती जाप कित्याक दिना?"

दशरथान थरथरत्या आवाजान सांगलें, "हांव तुमगेलो पूत न्हय. हांव एक क्षत्रीय. हो वेळ पर्यंत हांव म्हज्या बाणाचे शब्दवेधी कळाशे खातीर खूब अभिमानी आशिल्लों. म्हाका दिसलें कीं हतयांचो एक कळप उदक पिवपाक तळ्यार आयला. हांवें तांगेल्या आवाजाक लक्ष्य करून बाण सोडलो. म्हगेल्या नशिबान घात केलो. तुगेल्या पुताचो हांवें बळी घेतलो. आतां म्हगेली तुमकां प्रार्थना. म्हगेल्या अपराधा खातीर हांवें हें पिराचीत कशे रितीन घेवपाचें तें तुमी थारायात."

मागीर त्या जोडप्यान आकांत केलो. पुताची याद करून मं[illegible]ोठ्यान रडलीं. तांणी युवराजाक आपल्या पुता म्हऱ्यांत व्हरपाक

सांगलें. तो तांगेलो एकलो एकसुरो पूत आशिल्लो. तांणी ताचेर उदक फाफुडलें. मरणाच्यो सगळ्यो धार्मीक विधी केल्यो आनी दशरथाक सांगलें, “दशरथा, तुगेल्या अपराधाक लागून आमकां आमगेल्या मोगाळ भुरग्याचेर दुकां गळोवचीं पडलीं. एक दीस तूंय बी असोच तुगेल्या मोगाळ पुता खातीर दुख्ख करतलो, रडटलो. हें घडपाक खूब वर्सां वतलीं. पूण आमगेलो शाप केन्नाच फट जावचो ना. खात्रीन तो वेळ येतलो.” तांणी मागीर चिता रचली आनी त्या प्रेताक अग्नी दिलो. आनी आपूणय त्या उज्यांत घालून घेवन तीं दोगांय जळून गेलीं.

वेळ वचत रावलो. उपरांत दशरथ अयोध्येचो राजा जालो. तो कौसल्येकडेन लग्न जालो आनी तांकां किर्तिवंत, नांवारुपाचो, आदर्श पूत राम जालो. राम युवराज जालो.

रामाचेर सगळी अयोध्या प्रेम करताली. फकत राजाची तिसरी राणी कैकयी आनी तिगेली दासी मंथरा हीं दोगांय ताचो द्वेश करतालीं. ह्या दोगांयनीय रामाचेर वायट दीस हाडले आनी रामाक चवदा वर्सां वनवासाक धाडलो. दशरथान आपल्या रामा खातीर दुख्खान हांतरूण धरलें. आनी तातूंतच रामाचें चिंतन करीत करीत एक दीस मध्यानरातीर आपलो प्राण सोडलो. त्या दिसा रानांत त्या वानप्रस्थ जोडप्यान दिल्ल्या स्रापाची पुर्ति जाली.

दशरथाक एका वेळार आपले शब्दवेधी कळाशेचो इतलो गर्व जाल्लो कीं तो रातचोच तिचो वापर करतालो. कोणय काळ्खांत दुखवत

म्हूण पर्वा करिनासलो. ताणें आपले कलेचो दिसाच्या उजवाडांत उपेग केल्लो तर चड बरें जावपाचें. कोणाकय दुखापत करची अशें जरी ताच्या मनाक दिसनाशिल्लें तरी ताचे कडेन युवराजाक आसपाक जाय ती दूरदृश्टी आनी शाणेपण नाशिल्लें अशें दिसून येता.

* * *

# भाग तीन

(चवथे यत्तेच्या भुरग्यां खातीर वा पाठ्यक्रमाच्या तिसऱ्या वर्साक)

## २३. मनशाची सेवा ही देवाचीच सेवा आसता

अब्राहम लिंकन हे सन १८६१ वर्सा अमेरिकेचे राष्ट्रपती जाले. ते एक दयाळू अंतस्करणाचे सभ्य मनीस आनी सत्य प्रीय आनी न्यायप्रीय म्हणून सगळ्याक तांची नामना आसली.

भुरगेपणा सावन दुसऱ्यांक गरजे वेळार मदत करची, लोकांची सेवा करची अशें अब्राहमाक सदांच दिसतालें. राष्ट्राध्यक्ष जाले उपरांत एक पावट ते आपल्या मित्रां बरोबर सदचे पासयेक वताले. घरा कडेन परततना तांणी सहज फाटल्यान वळून पळयलें. एक जीन घाल्लो घोडो स्वारा बगर विचित्र तरेन भोंवतालो. अब्राहमान आपल्या बरोबरच्यांक विचारलें, "हो घोडो असो वेगळेच तरेन कित्याक भोंवता? हो कोणालो

घोडो हें तुमी जाणात?" तागेल्या मित्रांक दुभाव मारलो. ज्या मनशाक ते वळखतात तागेलो हो घोडो जावये. तांणी म्हणलें, "तो बेब्दो. वाटेर घोड्या वेल्यान सकल पडला जातलो आनी घोडो धनयाक सोदता जातलो."

अब्राहमान सुचयलें, "आमी परते वचून ताका सोदून काडुया." "आमी कित्याक वचपाचें?" मित्रांनी म्हणलें, "आतां काळोख पडपा जालो. आमकां पयलींच वेळ जाला. त्या बेबद्याक बरो धडो शिकूं दी." अशें म्हणून मित्रांनी घरची वाट धरली.

पूण अब्राहम तांचे बरोबर गेलो ना. ताणें आयिल्ल्या मार्गान परतें वचपाचें थारोवन म्हणलें, "म्हाका मेकळीक दिवची. म्हाका दिसता त्या मनशाक मदतीची गरज आसा. तो घोड्या वेल्यान पडला जातलो. आनी ताका एखाद्री जबर दुखापत लेगीत जावं येता." अशें म्हणून अब्राहम आयिल्ले ते वाटेन त्या मनशाक सोदूंक गेलो. अब्राहम कांय अंतर चलून गेले उपरांत ताणें एक मनीस सोरो पियेवन रस्त्याचे कडेक बेशुद्ध स्थितींत पडिल्लो पळयलो.

अब्राहमान मोठ्या प्रयत्नांनी ताका थोडी भोव शुद्ध हाडली आनी त्या मनशाक आपल्या घरा हाडलो. अब्राहमाल्या घरांतले सगळे लोक बेबद्याक घरा हाडला म्हूण रागार जाले आनी अब्राहमाक वायट उतरां लेगीत उलयले. पूण अब्राहमान ताची पर्वा केली ना. आनी सांगलें, "हें पळयात, तो सोरो पिला जायत पूण तोय बी आमचे भशेनच एक मनीस. म्हणटकर ताका मदत करप हें आमचें कर्तव्य थारता." अब्राहमान ताका व्हरून थंड उदकाच्या शावरा पोंदा थोडो वेळ दवरलो. जेन्ना तो पुराय

शुद्धीर आयलो तेन्ना अब्राहमान ताका जेवण दिलें आनी मागीर ताका घरा सोडलो.

अब्राहमाचो विश्वास आशिल्लो कीं मनशाची प्रेमान केल्ली सेवा ही इश्वराचीच सेवा आसता. अमेरिकन लोक काळ्या मनशांक गुलामां प्रमाणें वागयताले तें पळोवन ताका दुख्ख जातालें. ही गुलामगिरी ना करपा पासत अब्राहम आपल्या मनशां विरुद्ध लडलो. आनी निमाणें काळ्या मनशांक ताणें स्वतंत्र केले. आनी हेच खातीर काळ्या रंगाचे लोक आनी खूब अमेरिकन लेगीत सदांच सांगताले, "सर्गांत देव आनी धर्तरेर अब्राहम लिंकन हे दोगच आमचो सांबाळ करपी."

* * *

## २४. मनशाचे प्रयत्न इश्वराची मदत ओडून हाडटात

एका गांवांत एक साधू गांवांतल्या लोकांक देवा विशीं सांगतालो. "देव म्हणल्यार प्रेम. देव दयाळू आसता. तो सगळ्यांचेर कृपा करता. देव म्हणल्यार शक्ती. देव सत्ताधीश आसा. जेन्ना तुमी संकटांत पडटात आनी त्या संकटाचो सामनो करपाक तुमची शक्ती उणी पडटा तेन्ना देवाची प्रार्थना करात. तो खात्रीन तुमकां मदत करतलो." हें आयकुप्यां मदीं रामचरण नांवाचो एक गाडीवानय आशिल्लो. तो हनुमानाचो व्हड भक्त आशिल्लो. साधूलो उपदेश आयकना फुडें ताका खूब आनंद जालो. ताणें आपल्या मनांत गांठ मारली आनी म्हणलें, "देव आपल्या भक्तांक मदत करता म्हणटकर म्हगेलो मारुतीय संक्टा वेळार प्रार्थना केल्यार खात्रीन म्हाका मदत करतलो."

एका पावसाळी दिसा रामचरण आपले गाडयेन तांदळांचे साक ओडटालो. तो थोड्याशा अंतराचेर पावले उपरांत तागेल्या गाडयेचीं दोनय

चाकां रेब्यांत मुंगरलीं. आनी गाडी कशीच फुडें वचना जाली. ताका साधुच्या उतरांची याद जाली. आनी तो हनुमानाची प्रार्थना करूंक लागलो. ताणें एकसारखी हनुमानाची प्रार्थना केली. ताणें हात जोडले, दोळे धांपले आनी हनुमानाक विनयलो, "तूं कसोय तरी धांवून यो." पूण देव काय ताच्या मुखार आयलो ना. म्हणटकर रागान ताणें हनुमानाक चार अपशब्द दिले. आनी साधूक विचारपाक रागान गेलो. ताणें साधूक सांगलें, "म्हाराज, तूं लोकांक फटयता आनी पिशे करता. देव केन्नाच मनशाचे मदतीक येना. म्हगेली गाडी रेब्यांत मुंगरली. हांवें धा खेपो हनुमानाची प्रार्थना केली. पूण सगळें फुक्कट गेलें." मागीर रामचरणान साधूक कितें घडलें तें सविस्तर सांगलें.

साधून रामचरण सांगता तें थंड चित्तान आयकलें आनी मागीर तागेली फाट आपुलकेन आनी प्रेमान थापटिली. ताणें रामचरणाक सांगलें, "पुता, तूं कितलो निराश जाला तें म्हाका दिसता. पूण हांवें तुका सांगूं नाशिल्लें मनशान आपली सगळी शक्ती पणाक लावन पयलीं प्रयत्न करूंक जाय म्हूण. आनी ती कमी पडली जाल्यारच देव तुगेले प्रार्थनेक धांवून येता. समज, जर तूं एके बांयचे म्हन्यांत उबो रावलो आनी बांयक सांगलें, बांये, बांये, म्हाका तान लागल्या. म्हाका तुगेलें इल्लें उदक दी. तुका कितें मेळटलें? कांयच ना. तुवें एक आयदन दोरयेक बांदून उदकांत सोडूंक जाय आनी तें भरलें म्हणटकर वयर ओडून घेतलें तरच तुका उदक मेळ्टलें. देवा कडेनय तेंच घडटा. तुवें तुगेली सगळी शक्ती खर्चून प्रयत्न करूंक जाय. आनी तुगेली शक्ती कमी पडली जाल्यार देवा कडेन मदतीची प्रार्थना करूंक जाय."

रामचरण परतो गाडी मुंगरिल्ली थंय गेलो. ताणें चाकाक आपलो खांदो लायलो. आनी बैलांक गाडी ओडपाक इशारो केलो. आपली सगळी शक्ती पणाक लावन गाडी धुकल्ली. त्याच वेळार ताका भास जालो दुसरे वटेन चाकाक कोण तरी तागेले शक्ती परस चड शक्ती लावन तें चाक धुकळटा. "दुसरे वटेनचें चाक कोण वयर काडटा जायत? खात्रीन तो हनुमानजी आसतलो. हांवें ताची प्रार्थना केल्ली. तो धांवत आयला जातलो." अशें म्हणून रामचरणान चाकाक आनीक धक्को लायलो. रोखडींच दोनय चाकां रेब्याच्या भायर आयलीं. आनी आनंदान बैल धांवूंक लागले. जशो बैलांच्या गळ्यांतल्यो घांटी वाजूंक लागल्यो त्या तालार रामचरण देवा हनुमानान केल्ल्या आधारा खातीर ताचे स्तुतीचीं पदां गावंक लागलो.

उपरांत रामचरण सदांच आपल्या मित्रांक सांगतालो, "तुमी जेन्ना संकटांत पडटात तेन्ना तुमगेली बुध्द आनी शक्त वापरात आनी जायना जाल्यार मागीर देवाची मदत मागात. खात्रीन देव मदत करपाक येतलो. जे कोण स्वताक स्वताच मदत करतात तांकां देव मदत करता."

* * *

## २५. बरी जीब आनी पाडी जीब

एक पावट एका राजाक आपले प्रजेच्या प्रत्येक मनशाक सदां सर्वकाळ समाधानी दवरपी खंयची वस्त ह्या जगांत आसा तें जाणा जावपाक जाय आशिल्लें. ते खातीर ताणें एक प्रदर्शन भरोवपाचें थारायलें आनी आपल्या राज्यांतल्या सगळ्या शाण्या मनशांक राजाक मेळपाचें फर्मान काडलें. सगळे शाणे लोक जमले उपरांत तांकां सांगलें, ह्या प्रदर्शनांत खंयचीय एक अशी वस्त मांडात जी सगळ्यांक सदां सर्वकाळा खातीर समाधानी दवरूंक शकतली. अशी वस्त दवरपाक तांकां जागो दिलो आनी आठ दिसांची मुदत तयारे खातीर दिली.

जालें, राजाचे आज्ञे प्रमाण प्रदर्शन भरलें आनी राजा तें प्रदर्शन पळोवपाक आयलो. प्रदर्शन बरें भरिल्लें. राजान पळयलें, थंय बऱ्या बऱ्या वस्तूंच्यो रांगो लागिल्ल्यो जशें तरेतरेचे गुलाब, सुंदर सुंदर ल्हान झाडां, मिठाई, कपडे, पुस्तकां, संगीत वाद्यां, भांगराच्यो वस्ती,

कलेच्यो वस्तू आदी. पूण राजाक हातूंतली खंयचीच वस्त प्रत्येक मनशाक सदांच समाधानी दवरपी अशी दिसली ना. निमाणें राजा मातयेचीं मॉडेल्स आशिल्लीं त्या दालनांत गेलो. थंय राजान एके कडेन एक गरीब, अशक्त, भुकेल्ल्या मनशाचो मॉडेल पळयलो आनी ताचे म्हऱ्यांत जीब भायर काडिल्लें एका मनशाचें तोंड पळयलें. अशें दिसतालें, तें तोंड त्या मनशा कडेन उलयता. त्या मॉडेलाचे सकल बरयल्लें 'बरी जीब.' राजान कुतुहलान त्या मुर्तीकाराक आपल्याक मेळूंक सांगलें आनी तो येतकर राजान ताका ह्या मॉडेला विशीं सविस्तर सांगपाक सांगलें,

त्या मुर्तीकारान राजाक सांगलें, "महाराज, ह्या प्रदर्शनांतल्यो बाकिच्यो सगळ्यो वस्तू मनशाक थोड्याशा वेळा पुरत्यो आनंदीत करतात. पुणून एक बरी जीब, थोडीं गोड आपुलकेचीं आनी प्रेमाचीं उतरां उलोवन वर्साचीं वर्सां ताका समाधानी दवरूंक शकता. बरी जीब पिडेस्तांक आस्त आनी आनंद दिता. दुबळ्या मनशाक शक्त आनी आत्मविश्वास दिता आनी अनाथाक आपुलकेचीं आनी मायेचीं उतरां दिता. फक्त बरी जीब मनशाक सदां सर्वकाळ आनेदीत आनी समाधानी दवरूंक शकता."

राजा हें आयकून खूब खोशी जाता. आनी तो त्या मुर्तीकाराक भांगराच्या नाण्यांनी भरिल्लो भांगराचो करण दिता.

कांय दिसांनी राजाक आतां खंयची वस्त प्रत्येक मनशाक असमाधानी दवरता तें जाणून घेवचें अशें दिसता. देखून राजान आनी एक प्रदर्शन भरयलें आनी राज्यांतल्या शाण्या मनशांक आपोवन सांगलें कीं ह्या

प्रदर्शनांत खंयचीय एक अशी वस्त मांडात जी सगळ्यांक सदां सर्वकाळा खातीर दुखेस्त दवरतली. ह्या वेळार प्रदर्शन उपाट भरिल्लें. कोणें चाबकां दवरलीं, कोणें बेताच्यो बडयो दवरल्यो, कोणें सादीं तर कोणें कांटेरी झुडपां दवरलीं तर कोणें कोडू फळां, सोरो, वीख, भोंकपी सुणीं, काव काव करून दीस भर बोब मारपी कावळे आनी हेर वायट वस्तू दवरल्यो.

पूण ह्यातूंतली खंयचीच वस्त राजाक प्रत्येकाक दुखेस्त करपी अशी दिसली ना. राजान म्हणलें, "ह्या वस्तूंनी प्रत्येकाक सदांसर्वकाळ दुखेस्त करपाची तांक ना." आनी तो मागीर मातयेच्यो वस्तू आशिल्ल्या दालनांत गेलो. थंय ताणें पयलींच्या प्रदर्शनांत पळयल्लें तेच तरेचें चित्र आशिल्लें. पूण ह्यातूंत मातसो फरक आशिल्लो. आतां त्या चित्रांत मोठे तांबडे गूंज दोळे आशिल्ले. एक काळीशी जीब एका मनशाक गाळी घालून ताका हडहड करताली. तो मनीस जाणटो, दुबळो, भुकेल्लो आशिल्लो. चित्राच्या तळाक दोन शब्द बरयल्ले पाडी जीब. पयलींचें आनी आतांचें दोनय चित्रां एकाच मुर्तीकारालीं आशिल्लीं. राजान त्या मुर्तीकाराक आपोवन हाडून चित्राचें स्पश्टीकरण मागलें. मुर्तीकारान सांगलें, "महाराज, एक पाडी जीब दुसऱ्याचें सूख आनी आनंद ना करपाक शकता. तागेली आशा, धीर ना करपाक शकता, ताका दळिद्राच्या फोंडांत घालूंक शकता. ती वर्सांन वर्सां न भरपी घाय दुसऱ्याच्या काळजाक घालूंक शकता. पाडी जीब ही एक मनशाचो सगळ्यांत वायट शत्रू."

राजाक खूब खोशी जाता आनी तो ह्या वेळार ताका वज्रां आनी रत्नां दिता. आनी सांगता, खऱ्यांनीच तुगेल्यो मातयेच्यो मुर्ती आमकां

अमुल्य असो धडो शिकयतात. आनी भांगराचे करण, रत्नां, हिरे हीं सगळीं जमा केल्यारय तुवें शिकयल्ल्या ह्या ज्ञानाची किंमत चड उरतली. एक बरी जीब ही प्रत्येक मनशाचो परम मित्र जावपाक शक्ता आनी सगळ्यांक सुखा कडेन व्हरपाची वाट जावंक शक्ता.

* * *

## २६. हुतहुतेपण म्हणल्यार कामांत बिघाड

एक पावट एक राजा एका किल्ल्या वेल्यान दुसऱ्या किल्ल्यार वतना आपली वाट चुकलो. ताणें एके दोंगुल्लेचेर चडून भोंवतणीं पळयलें. लागसार खंयचेंच खेडें नाशिल्लें. रात इल्ली इल्ली फुडें सरताली. तो दोंगुल्ले वेल्यान देंवतना ताणें पयस एक दिवो लकलकता तो पळयलो आनी त्या रोखान वचूंक लागलो. रोखडोच तो एके खोंपी कडेन पावलो.

खोपीं भितर एक जाणटी बायल आशिल्ली. तिका दिसलें तो गांवच्या राजालो सरदार आसतलो आनी म्हणून तिणें ताका येवकार दिलो. ताका पुरो जाल्लें आनी तो भुकेल्लोय आशिल्लो म्हणून जाणटेलेन ताका हात, पांय, तोंड धुवपाक उदक दिलें. एक मांद्री पातलायली आनी ताका विसव घेवपाक सांगलें. ताका भरपूर सुशेग मेळटकर तिणें ताचे खातीर ताट भर कुळदांची खिचडी

हाडून ताचे मुखार दवरली. राजाक इतली भूक लागिल्ली कीं ताणें हुतहुतेपणान ताटांत एकदम हात घालून एक मोठो घांस घेवपाक बचको मारलो. खिचडी बरीच हून आशिल्ली. ताच्या हाताक चटको बसलो. ताणें बेगीबेगीन हात भायर काडलो आनी फाफुडलो. तशी थोडी खिचडी भायर पडली.

जाणटेलेन कितें जालें तें पळयलें आनी शेरो मारलो." "म्हाका दिसता तुगेलो धनी आनी आमच्या राजा भशेनच तूंय ताकतीक आनी हुतहुतेपणां करता. म्हणूनच तुगेलीं बोटां भाजलीं आनी थोडें अन्नय जमनीर सांडलें."

जाणटेलेलीं उतरां आयकून राजाची थोडी करमणूक जाली आनी थोडें अजापय जालें. ताणें तिका प्रस्न केलो, "म्हगेलो धनी राजा अस्थीर आनी हुतहुतो अशें तूं कित्याक म्हणटा?"

ते जाणटेलेन सामक्या सादेपणान स्पश्टीकरण दिलें. "हें पळय म्हगेल्या पुता, तूं पळयना आमचो राजा शत्रूंल्या ल्हान किल्ल्यांचेर दुर्लक्ष करून एकदम मोठ्या किल्ल्यांक ताब्यांत घेवपाचो प्रयत्न करता. जशें तुगेल्या हुतहुतेपणान जेवण घेतना तुजो हात भाजलो शिवाय थोडें अन्नय जमनीर सांडलें तशें राजाले ताकतिकेन शत्रूंचो पाडाव करतना ताका चिंता उप्रासता आनी शूर सैन्यांतले कितलेशेच लोक मरून वतात. तुवें ताटांतलें न्हिविल्ले कडेचें अन्न पयलीं खावपाचें आनी सुशेगाद मदले राशी कडेन येवपाचें. तेच भशेन राजान ल्हान किल्ले पयलीं घेवपाचे, आपलें ठाणें सुरक्षीत करपाचें म्हणटकर मोठे किल्ले घेवप सोपें जातलें आशिल्लें आनी

चड मनीस खर्चीं पडचे नाशिल्ले.”

राजान रोखडोच तिगेलो सल्लो मानलो. ताणें थारायलें, खंयच्याय कामाक ताक्तीक करप ना. खूब चिंतप, बरी योजना आंखून मागीर पावला पावलान फुडें वचप. आनी बरे रितीन राजान आपल्यालें सपन पुराय करून एक व्हड राज्य स्थापन केलें.

* * *

## २७. खंयचीय गजाल तूं पयलीं आचरणांत हाड आनी मागीर दुसऱ्याक उपदेश कर

संत लोक आपणें आचरणांत हाडून जाचो अणभव घेतला ताचोच उपदेश दुसऱ्यांक करतात म्हणून तांगेल्या उपदेशांक शक्त येता आनी तो आमचें बरें करता.

गुरुदेव रामकृष्ण परमहंस हांगेल्या शिश्यां भितर एक गरीब बायल मनीस आशिल्ली. एक दीस ती तांच्या म्हऱ्यांत आपल्या पुताक घेवन आयली आनी तिणें सांगलें, “गुरुदेव, म्हगेल्या पुताक दिसपट्टी मिठाय खावपाक जाय. हे सवंयेन तागेले दांत इबाडटात आनी मिठाय म्हारग जाल्ल्यान दर दिसा विकती घेवपाक म्हाका अडचण येता. आपणें उपदेश करून, ताकीद दिवन, तापोवन, मारून पसून ताचो कांय उपेग जायना. गुरुदेव, हांव तुमचे कडेन मागतां ताका तुमी थोडो उपदेश करात. तागेली सवंय मोडात आनी ताका तुमचे आशिर्वाद दियात.”

रामकृष्णांनी त्या भुरग्याक पळ्यलो आनी ताचे कडेन उलोवचे पयलीं तागेले आवयक सांगलें, "तूं भुरग्याक पंदरा दिसांनी घेवन यो."

पंदरा दिसां उपरांत ती आवय भुरग्याक घेवन आयली आनी दोगांय गुरु म्हऱ्यांत बसलीं. श्री रामकृष्ण परमहंसांनी त्या भुरग्या कडेन मायेमोगान पळयलें आनी ताका सांगलें, "म्हज्या मोगाळ पुता, तूं तुगेले आवयक दिसपट्टी मिठाई हाडपाक त्रास करता हें खरें?" भुरग्यान आपली तकली सकल घाली आनी म्हणलें, "हय गुरुदेव." अशें म्हणून तो ओगी रावलो. गुरुदेवांनी म्हणलें, "तूं एक बुद्धिमान भुरगो. तूं जाणा ती मिठाय तुजे दांत कितले खराब करता तें? तुगेले आवयक तुगेल्या आरोग्याचो हुस्को जाता. दुसरें, ती जर मिठाय घेवपाक दर दिसा खर्च करूंक लागली तर तुका नवीं पुस्तकां, बरे बरे कपडे ती कशी दिवंक शकतली? तूं एक व्हडली चूक करता अशें तुका दिसना?"

रामकृष्णाचे शब्द ताच्या काळजाक भिडले. ताणें गुरुदेवां कडेन पळयलें आनी म्हणलें, "सर, तुमी सांगिल्लें म्हाका समजलें." आनी तो थंड रावलो. गुरुदेवांनी ताका आपुलकेच्या मायेमोगाच्या आवाजान विचारलें, "म्हणटकर तूं ही तुगेली सदां मिठाय मागपाची वायट सवंय आयच्यान बंद करशी?" ह्या वेळार भुरगो हांसलो आनी ताणें म्हणलें, "हय महाराज, आयच्यान हांव मिठाये खातीर आवयक त्रास करचों ना. तुमी केल्ल्या उपदेशा वरवीं हांव म्हगेली सवंय बंद करतां."

रामकृष्णाक भुरग्यान दिल्ले जापेन आनंद जालो. तांणी अपुरबायेन भुरग्याक आपल्या म्हऱ्यांत काडलो. आनी म्हणलें, "म्हगेल्या पुता, तूं एक बरो भुरगो. तुका तुजे खातीर कितें बरें आनी कितें वायट तें कळटा. तूं खात्रीन जिणेंत समाधानी उरतलो." भुरग्यान तांकां नमस्कार केलो. रामकृष्णांनी ताका आशिर्वाद दिलो आनी मागीर ते इतर भक्तां कडेन वळ्ळे.

भुरगो खेळूंक गार्डनांत गेलो. तागेले उपकारीक जाल्ले आवयन रामकृष्णाक प्रस्न केलो, "गुरुदेव, तुमी आमकां हो उपदेश दिवपाक पंदरा दिसांचो वेळ कित्याक घेतलो?" रामकृष्णांनी हांसून सांगलें, "हें पळय, तूं जेन्ना म्हजे कडेन पंदरा दीस पयलीं आयिल्ली तेन्ना हांवय बी भक्तांनी हाडिल्ली मिठाई दिसांतल्यान मेळटा तशी खातालों. म्हणटकर हांव तुगेल्या पुताक जें दिसपट्टी हांव करतां तें तूं करूं नाका अशें कशें सांगतलों? म्हणटकर हांवें त्या दिसाच्यान मिठाय खावपाचें बंद केलें. ताका लागून म्हाका तुगेल्या पुताक उपदेश करपाक भरपूर शक्त आनी सत्ता मेळ्ळी. कारण हांवें उपदेशाचें पालन केल्लें. आमी जें आचरणांत हाडटात तेंच दुसऱ्याक सांगपाचें आसता म्हणटकर आमच्या शब्दांक प्रामाणीकपणाची जोड मेळटा. आनी तें आयकतल्याच्या काळजाक भिडटा."

थंय आशिल्ल्या सगळ्या रामकृष्णांच्या भक्तांक एक व्हड धडो शिकिल्ल्याचें स्रेय मेळ्ळें.

* * *

## २८. समाधान आनी शांती

गौतम बुद्ध एके रानांतले वाटेन शारांत वताले. वाटेर तांणी एक थंड उदकाचो झरो पळयलो. थंय तांणी आपले हात-पांय धुले आनी मागीर एका झाडा मुळा ते ध्यानाक बसले.

शारांतलो राजा तेच वाटेन एका घोड्यार बसून वतालो. तो सदांच दुसऱ्या राजां कडेन लडाय करपांत आपल्यालें राज्य वाडोवपाच्या कामांत गुंतून आसतालो. ताचें काळीज द्वेश, भंय, दुस्वास हांणी भरिल्लें आशिल्लें. एक संन्यासी एका झाडा मुळा दोळे धांपून बशिल्लो पळोवन ताका राग आयलो. तो राजा घोड्या वेल्यान देंवलो आनी गौतम बुद्धा म्हऱ्यांत येवन मोठ्या मोठ्यान आडून रागान ताका म्हणलें, "हे संन्याशा, तुगेले दोळे उकते कर आनी तुजे मुखार कोण उबो आसा पळय. म्हजे सारको राजा पसून रिकामो बसना. तुमी संन्यासी मात दुसऱ्यांच्या कश्टांचेर पोसतात आनी

दुसऱ्यांक बेकारी, आळशीपण शिकयतात.” अशे तरेन आडून आडून ताणें गौतम बुद्धाचेर वायट शब्दांचो शिंवर घालो. राजाक आडून खरेलेंच पुरो जालें आनी तागेली शक्त सोंपली.

गौतम बुद्ध इतलो वेळ थंड आशिल्लो. ताणें सवका आपले दोळे उकते केले आनी हांसून राजाक सांगलें, “यो, बस. म्हगेल्या पुता, तुका खरेंच पुरो जालां आनी तुका तानय लागल्या. हांव तुका त्या थंड झऱ्याचें उदक हाडून दिवं?” हीं हळुवार, मायेचीं म्होंवाळ उतरां आयकून राजा अजापान तटास जालो. रोखडोच ताका दुभाव आयलो हो संन्यासी म्हणल्यार युवराज सिद्धार्थ जो राजवाड्यांतल्या सुखांचेर खोंट मारुन शांतीच्या सोदा खातीर संवसार सोडून घरांतल्यान भायर सरिल्लो आनी मागीर बुद्ध जालो तो होच आसूंक जाय. म्हणटकर राजान संन्याशाचे पांय धरले आनी म्हणलें, “म्हाका म्हगेले गंभीर चुकी खातीर क्षमा करात. आतां म्हाका सांगात, हांवें इतल्या रागान तुमचो एदो व्हडलो अपमान केल्लो आसतना तुमी इतले थंड, स्तब्ध आनी म्हजे कडेन प्रेमळ कशे?”

बुद्धान म्हणलें, “म्हगेल्या पुता, जर तुवें म्हाका एक ताट भरुन मिठाई दिली आनी हांवें ती घेतली ना जाल्यार ती खंय वतली?” राजान उत्तर दिलें, “ती परती दितल्या कडेन वतली.” “तूं पळयता, हांवें तुज्या उलवण्यांतलो एक शब्द पसून मनार घेतलो ना. म्हणटकर तुगेले ते शब्द म्हाका कशे लागतले? म्हाका कशे दुखयतले?”

राजाक आतां खात्री जाली हो संन्यासी म्हणल्यार दुसरो कोण न्ही तर खुद्द बुद्धच आसा. तांकां नमस्कार करून राजान म्हणलें, "ज्ञानी जाल्ल्या, म्हाका खऱ्या आनंदाची वाट दाखय."

बुद्धाचे दोळे ज्ञानाच्या उजवाडान परजळ्ळे. तांणी म्हणलें, "म्हज्या पुता, राग, हावरेपणा, दुस्वास, भंय हे सगळे विकार मनशाचें सगळें समाधान लुट्टात. जिणेंत आनंद, शांती आनी मोग ही खऱ्या समाधानाची बुन्याद आसता. जाचे कडेन आनंद, शांती ना तो भिकारी. जो कोण दुसऱ्याक मदत करना, दुसऱ्याची प्रेमान सेवा करना तो एक बेकार आळशी. जो कोण आनंदाचो, शांतीचो आनी प्रेमाचो मुकूट धारण करता तो राजांचो राजा आसता. कारण ताका एकट्याकच जिणेंत खरें समाधान मेळिल्लें आसता."

राजान मोठ्या आदरान बुद्धाक नमस्कार घालो आनी सांगलें, "आज पसून तुमी म्हाका तुमगेलो एक शिश्य म्हूण मानून घेयात. तुमी म्हगेले गुरु. तुमी म्हाका मार्ग दाखयात आनी हांव तुमच्या फाटल्यान येतां."

* * *

## २९. प्रसंगावधान

आत्र्यापयऱ्यान आमी आयकतात, एका घराक उजो लागलो, एके धांवते मोटरीन झाडाक मोखलें, एक भुरगें बांयंत पडलें. जेन्ना असले अपघात घडटात आनी जांकां कोणाक ही खबर कळटा ते सगळे त्या जाग्यार वचपाक गर्दी करतात. थोडे लोक खूब भितात, थोडे चिंतेस्त जातात पूण संकटांत सांपडिल्ल्यांक तांचे पसून कांय फायदो जायना. थंडपणान विचार करून आनी बुद्धीन रोखडीच कृती केल्यार जिवाचें आनी मालमत्तेचें लुकसान जावपाचें वांचता. थंडपणान विचार करपाचे आनी रोखडेंच कामाक लागपाचे हे पात्रतेक प्रसंगावधान म्हणटात.

अशे हे प्रसंगावधान आशिल्ले मनीस जेन्ना अपघात घडटात तेन्ना तर जालेंच पूण दुकळ, हुंवार येता तेन्ना आनी युद्धांत पसून खूब व्हड मदत करतात. थोड्या मनशांक हें प्रसंगावधान कशें

जमता? हातूंतली खरी वस्तुस्थिती म्हणल्यार हे मनीस ल्हानपणा सावन मनाक शिस्त लायतात. जेन्ना तांकां संकटाक तोंड दिवपाक वच्चें पडटा तेन्ना ते आपलें मन उचंबळूंक आनी गोंदळूंक दिनात. हाचे उलट ते थंडपणान विचार करतात आनी हुशार बुद्धीन गरज आसा तें काम रोखडेंच करतात.

हांगा एका बुद्धिमान भुरग्याच्या प्रसंगावधानाचें उदाहरण दिलां तें तरनाट्यांक लेगीत हो गूण घेवपाचे पात्रतायेची वाड करपाक उपेगाक येतलें.

अलाहाबादेक एके व्हड बागेंत कांय भुरगे क्रिकेट खेळटाले. तातूंतल्या एका भुरग्यान आपलें बॅट झेलयत नेटान बॉल मारलो. तो टॅनीस बॉल ल्हव आशिल्ल्यान खूब वयर गेलो आनी सकल पडटना उसळून वडाच्या पोकळ सुक्या कांणांत पडून तळाक गेलो. ग्रुपांतल्या सगळ्या भुरग्यांनी तो काडपाचो यत्न केलो. पूण तांकां जमलें ना. थंयच्यान वचपी एका मनशान लेगीत भुरग्यांची काकुळट येवन बॉल काडपाचो प्रयत्न केलो पूण ताकाय जमलें ना. म्हणटकर हेर सगळे भुरगे जाणें बॉल मारिल्लो ताका दुशण दिवपाक लागले. तांगेलीं वायट उतरां आयकून तो रडपाक लागलो.

इतल्यांत १३-१४ वर्सांचो एक हुशार भुरगो पासयेक गेल्ले कडेन रडटा त्या भुरग्याक पळोवन थंय ताचे म्हऱ्यांत गेलो. तसोच तो खेळटल्या भुरग्यां म्हऱ्यांतय गेलो. ताका भुरग्यांनी घडिल्ली गजाल सांगली. “थंय उबो आसा त्या काकान लेगीत प्रयत्न

केलो," त्या रडकुऱ्या भुरग्यान सांगलें. त्या हुशार भुरग्यान ताचे फाटीर हात भोंवडावन ताका धीर दीत म्हणलें, "तूं चिंता करूं नाका. हांव तुगेलो बॉल काडून दितां. म्हाका एक बालदी भर उदक दी."

त्या ग्रुपांतलो एक भुरगो घांवत बागेच्या माळ्या म्हऱ्यांत गेलो आनी ताचे मदतीन एक बालदी भरून उदक हाडलें. त्या बुद्धिमान भुरग्यान तें उदक वडाचे घोलींत घालें. रोखडेंच उदक वयर आयलें आनी त्या उदकान आपले बरोबर तो हलको बॉल हाडलो. बॉल हलको आशिल्ल्यान तो उदकाचेर वयर उफेलो. रोखडोच भुरग्यान तो घेतलो आनी आनंदान नाचूंक लागलो. मागीर बाकिचेय सगळे भुरगे आयले. सगळ्या भुरग्यांच्या तोंडार हांशाचो उजवाड पडलो आनी तांणी आपलो खेळ फुडें सुरु केलो.

हो हुशार भुरगो कोण आशिल्लो अशें तुमकां दिसता? तो भुरगो जवाहरलाल नेहरू आशिल्लो.

* * *

## ३०. एकाग्रतेचें मोल

स्वामी विवेकानंदाक भुरगेपणांत अपुरबायेन 'बिले' म्हणटाले. बिले आनी तागेल्या मित्रांचो एक आवडटो खेळ आशिल्लो. तो म्हणल्यार 'ध्यानसाधना' करपाची. सगळीं भुरगीं दोळे धांपून बसतालीं आनी दर एकलो आपल्या आवडट्या देवाचें ध्यान करतालो.

एक दीस हे भुरगे हो खेळ खेळटाले तेन्ना एका भुरग्यान अकस्मात मंद सो एक वेगळोच आवाज आयकलो. ताणें आपले दोळे उगडले तेन्ना ताका एक व्हडलो सोरोप सरपटत तांचे म्हऱ्यांत येतालो तो दिसलो. ताणें मोठमोठ्यान आड्डून 'सोरोप, सोरोप' म्हूण किंळच्यो मारल्यो. तशे सगळे भुरगे उठून धांवले. "बेगीन यो, बेगीन यो, ताकीद कर. एक व्हडलो सोरोप आयला. तुका तो चाबतलो. धांव, धांव बेगीन," अशें आड्डून बिलेक सांगलें. पूण

बिलेक तांगेली आङ्डुणी आयकूंक आयली ना. तो आपले दोळे धांपून थंड चित्तान आपल्या देवाचें चिंतन करीत आशिल्लो. भोंवतणी कितें चलता ताची ताका खबर नाशिल्ली. सोरपान कितें केलें? तो हेवटेन तेवटेन भोंवलो आनी आपल्या मार्गान परत गेलो. बिलेले मित्र, तागेले आवय-बापूय आनी बाकी सगळे शेजारी तागेले एकाग्रतेची शक्ती पळोवन आनी देवा वेलें प्रेम पळोवन अजापीत जाले.

हे एकाग्रतेचे शक्तीक लागून बिलेक अभ्यासाचे धडे एक-दोन वेळा वाचल्यार पसून तोंडपाठ जाताले. ताका तांची घट्ट याद उरताली. कॉलेजींत पसून ताका हुशार पंडीत विद्यार्थी म्हूण वळखताले. जेन्ना ते स्वामी विवेकानंद जाले तेन्ना हे एकाग्रतेचे शक्तीची तांकां खूब मदत जाली.

एक पावट स्वामी विवेकानंद अमेरिकेक शिकागोक आशिल्ले. थंय एके कडेन कांय तरनाटे भुरगे न्हंयेंत उफेवन येवपी तांतयांच्या कल्लांचेर आर्मान फार मारून तांकां मोखताले. कल्लां न्हंयेच्या ल्हारांक लागून सकल-वयर जातालीं आनी तांचे फार चुकताले. तांणी सगळ्यांनी परत परत प्रयत्न केले. पूण फुकट जाले. स्वामी विवेकानंद तांचे कडेन बारीकसाणेन पळयताले. म्हणटकर तांणी स्वामी विवेकानंदांक विचारलें, "तूं इतलो वेळ आमचे कडेन बारीकसाणेन पळयता. तुका दिसता तूं आमच्याकय बरे तरेन हें करूंक शकता?" स्वामी गोड हांसले आनी तांकां सांगलें, "हांव

प्रयत्न करून पळयतां." अशें म्हणून तांणी तांचे कडल्यान आर्म हातांत घेतलें आनी कल्लांचेर तीर धरलो. मागीर थोडो वेळ लक्ष्याचेर मन एकाग्र करून फार मारले. तांणी बारा फार मारले आनी दर खेपे एक अशीं बारा तांतयां कल्लां तांणी मोखलीं. सगळ्या भुरग्यांक अजाप जालें. आनी तांणी विवेकानंदांक विचारलें, "स्वामीजी, तुमी सराव करनासतना हें तुमकां कशें जमलें?" स्वामीजी मोठ्यान हांसले. "बरें, बरें, हांव तुमकां म्हगेलें गुपीत सांगतां. तूं खंयचेंय काम करूं, ताचेर तुजें लक्ष एकाग्र कर. दुसरो कसलोच विचार मनांत हाडूं नाका. जर तूं शुटींग करता जायत तर तुगेलें लक्ष तुगेल्या लक्ष्याचेर एकाग्र कर म्हणटकर तुगेलो तीर चुकचो ना. एकाग्रतेन अजापांचें काम करूंक जाता. तूं अभ्यास करतना पसून तुगेल्या हातांत आशिल्ल्या धड्याचेरच विचार कर. म्हणटकर तूं कितें वाचता तें तुगेले यादीचेर कोरांतिल्लें उरतलें."

हे एकाग्रतेचे शक्तेन स्वामी विवेकानंदांनी खूबशो व्हड वस्तू जगाच्या कल्याणा खातीर केल्यो.

* * *

## ३१. खंयचेंच काम उच्च-नीच न्ही

भारतीय लोक महात्मा गांधींक राष्ट्रपिता म्हूण मान दितात. ते भशेन अमेरिकन लोक जॉर्ज वॉशिंग्टनाक आपल्या राष्ट्राचो राष्ट्रपिता म्हूण मान दितात. तो एक शूर शिपाय आनी उदार काळजाचो आशिल्लो. तांची एक मोठी इत्सा आपल्या देशाची सेवा करप आनी आपल्या बरोबरच्या लोकांचीय करप.

अमेरिकेच्या स्वातंत्र्य लढ्याच्या वेळार तो देशाच्या सैन्याचो मुख्य अधिकारी जालो. एक दीस तो घोड्यार बसून सैन्याच्या कँपांत सगळ्यो गजाली बराबर आसात काय कितें हें पळोवपाक रावंडार गेल्लो. कँपाच्या एका तोंकार एक नवी बिल्डींग वयर येताली. एक आर्मीचो कॅप्टन आपल्या शिपायांक आज्ञा दितालो. ते स जाण आशिल्ले. कॅप्टन तांकां एक व्हड लोखणाची बीम ते बिल्डिंगेचे वणटीचेर चडोवपाक आडून सांगतालो, “उखलात, जोर

करात.”आनी आपूण पयस रावन तांचेर तापतालो. बीम लांब आनी जड आशिल्ल्यान त्या शिपायांक प्रयत्नांची शिकस्त करूनय ती वयर उखलूंक जायनाशिल्ली. पूण त्या कॅप्टनाक आपल्या शिपायांची थोडी पसून पर्वा दिसनासली. तो तांच्या म्हऱ्यांत वचून तांकां थोडी मदत करपाचें सोडून फक्त पयसुल्ल्यान तांचेर मोठमोठ्यान आड्डतालो. आनी तांकां 'वयर उबारात, वयर उबारात' अशें सांगत आशिल्लो.

जॉर्जाच्यान हें सगळें पळोवंक जालें ना. तो कॅप्टना म्हऱ्यांत गेलो आनी ताका विचारलें, “बीम खूब जड आसा. तूं तांकां थोडी मदत कित्याक करना?” कॅप्टना कडल्यान रोखडेंच परतें उत्तर आयलें, “तें काम शिपायांलें. हांव एक कॅप्टन हें तुका दिसना?” जॉर्जान सांगलें, “बरें आसा. तुका विचारिल्ल्याचें म्हाका वायट दिसता. म्हाका खबर नाशिल्लें.” अशें म्हणून तो घोड्या वेल्यान देंवलो. आनी थेट शिपायां म्हऱ्यांत गेलो. बीम उखलपाक तांकां मदत केली आनी एकदांची बीम वयर चडयली. मागीर ताणें कॅप्टना कडेन वळून म्हणलें, “दुसरे खेपेक तुका असलें काम करपाचें आयलें जाल्यार आनी तुजे कडेन ह्या कामाक जाय तितले शिपाय ना जायत तर म्हाका आपोवंक धाड. हांव आनंदान येतां. हांव अमेरिकन आर्मीचो मुख्य अधिकारी आसां. “

कॅप्टनाक हीं उतरां आयकून मोठो शॉक बसलो. ताणें परतें कितेंय सांगचे पयलीच जॉर्ज आपल्या घोड्यार बसून तडक आपल्या तंबू कडेन गेलो.

जॉर्जान त्या गर्विश्ट कॅप्टनाक बरो धडो शिकयलो. सगळे मनीस सारके बरोबरीचे. तांचें काम मागीर कितेंय आसूं. तें काम नाजाल्यार कर्तव्य जावं, प्रत्येक मनशाक मान आनी प्रेम मेळूंक जाय. मनशालें काम खंयचेंय आसूं, तें मनशाक उच्च नीच थारायना. मनशाच्या आंगांतले बरे वा वायट गूण मनशाक उच्च-नीच थारायतात.

* * *

# ३२. काळजा सावन देवाची केल्ली प्रार्थना

दीस-रात व्यवहारांत गुल्ल आशिल्ल्या जगा पसून समुद्रांत एक एकसुरो जुंवो आशिल्लो. तातूंत तीन ख्रिश्चन संन्यासी रावताले. ते आपलो सगळो वेळ देवाच्या चिंतनांतच घालयताले. देवा विशींच उलोवप, ताची महिमा गावप हातूंतच तांचो सगळो वेळ वतालो. तांकां बायबल वाचपाक आनी तातूंतल्या सर्गावेलो पिता, देवालो पूत, पवित्र देवदूत हांचे विशीं वाचपाक आवडटालें. ते साद्या सरळ काळजाचे आशिल्ल्यान देवाक ल्हानशी प्रार्थना अर्पीत करताले. ती म्हणल्यार, “देवा, आमी तीग जाण आसात. तूंवय बी तीन आसा. आमचेर कृपा आसूं दी.” हे प्रार्थनेन देवाकय खूब समाधान जातालें. म्हणटकर तो तांचें पालन-पोशण करतालो. तांगेली सदांची रोजी-रोटी तो दितालो. तांगेल्यो दिसपट्ट्यो गरजो तो भागयतालो. आनी संकटां पसून तांचें रक्षण करतालो. तांकां जेन्ना भूक लागताली तेन्ना तांच्या मेजार फळां आनी दूद तयार आसतालें. रखरखीत

वतांत आनी जेन्ना मळबांतल्यान पावस पडटा तेन्ना तांच्या माथ्यार तांकां आसरो मेळटालो. इतलेंच न्हय, सगळे रानटी पशू तांचे मित्र जाले कारण ते संन्यासी कोणाचोच द्वेश करनासले. आनी सगळ्यांक ते देवाले प्राणी समजून तांचेर प्रेम करताले.

एक दीस त्या प्रदेशाचो ख्रिश्चन धर्मगुरु (बिशॉप) हाका ही जुंव्यावेल्या संन्याशांची आनी तांगेले देवा कडेन करपाचे ल्हानशे सादे प्रार्थनेची खबर कळ्ळी. तो समुद्राच्या कांठार शारांत रावतालो. धर्मगुरुन म्हणलें, "तांकां अजून बायबल समजूंक ना आनी देवाले शिकवणे विशींय खबर ना दिसता. सांज सकाळ देवा मुखार जी खरी प्रार्थना म्हणपाची आसता ती शिकोवपाक म्हाका जुंव्यार तांच्या म्हऱ्यांत वच्चें पडलें."

अशें म्हणून तो बिशॉप व्हड्यान त्या संन्याशां म्हऱ्यांत आयलो आनी तांकां सांगलें, "तुमी जी देवाची प्रार्थना करतात ती सामकी ल्हान आनी सादी आसा. ती देवाचो मोग आनी कृपा मेळपाक पुरी पडना. म्हणटकर हांव तुमकां खरी प्रार्थना शिकयतां." अशें म्हणून त्या संन्याशांक ताणें खूबशो प्रार्थना शिकयल्यो. आनी त्याच बरोबर सकाळीं आनी सांजवेळां म्हणपाची एक लांबशी प्रार्थना शिकयली. इतल्यांत काळोख पडलो म्हणटकर बिशॉप बेगीबेगीन आपल्या व्हड्या म्हऱ्यांत गेलो आनी शारांत वचपाक ताणें तो जुंवो सोडलो.

तो थोड्या अंतराचेर पावल्या उपरांत ताणें काळ्या किट्ट

उदकाचेर उजवाडाचो किरण त्या जुंव्यार सावन ताचे म्हऱ्यांत येता तो पळयलो. दोळे दिपकावपी तो उजवाडाचो झोत पळोवन तो तटास जालो. त्या उजवाडांतल्यान ते तिनूय संन्यासी हातांत हात घालून धांवत ताचे म्हऱ्यांत आयले. ही अघटीत घटना पळोवन बिशॉप भांबावलो. जेन्ना ते व्हड्या म्हऱ्यांत पावले तेन्ना तांणी आड्डून बिशॉपाक सांगलें, "फादर, तुमी शिकयिल्ले ते लांब प्राथनेंतल्यो थोड्यो वळी आमी विसरले. तेन्ना ती प्रार्थना तुमी आमचे खातीर परती म्हणात."

जें कितें घडिल्लें तें पळोवन बिशॉपाक अजाप जाल्लें. ताणें पयलीं आयकल्लें कीं देव जेजू समुद्राच्या ल्हारांचेर चलत येता. पूण आतां ताणें समक्ष आपल्या दोळ्यांनी पळयलें, हे तिनूय संन्याशी तेच भशेन आयिल्ले. बिशॉपान म्हणलें, "खात्रीन हे संन्यासी शुद्ध आत्मे आसूंक जाय. देवान तांचेर कृपा केल्या आनी तांकां आपले केल्यात. हांकां हांव आनी कितें शिकयतलों?"

म्हणटकर बिशॉपान तकली हालयली आनी नमळायेन सांगलें, "मोगाळ भावांनो, तुमी तुमगेली पयलींची ल्हान प्रार्थनाच चालू दवरात. देव तितल्यान चड समाधानी जाता."

बिशॉप संन्याशां कडल्यान धडो शिकलो कीं देवाक केल्ली प्रार्थना फकत ओंठांतल्यान आयली म्हूण जायना तर ती काळजाच्या मुळा साकून येवंक जाय.

* * *

## ३३. देवाची कृपा

खूब खूब पयलीं पारीस (फ्रांसाची राजधानी) हांगा एक जादुगार रावताल़ो. ताचें नांव फ्रांसीस आशिल्लें. तो आपली रोजी-रोटी चलोवपाक हातचलाखीचे खेळ करतालो. तागेलो खेळ पळोवन भुरगीं, जाणटीं, दादले, बायलो खोशी जातालीं. कार्यक्रमाच्या अखेराक तो आपल्यालें चेपें लोकां मुखार भोंवडायतालो आनी लोक तो खोशी उरचो म्हूण ताचें चेपें नाण्यांनी भरताले. दिसाचे अखेरीक फ्रांसीस वर्जीन मेरीचे चर्चींत वतालो आनी आपल्याक सदांची रोजी-रोटी मेळोवन दिले बद्दल तिचे आभार मानतालो.

एका सांजे पारार फ्रांसीसान कांय संन्यासी दिमी मारून मोठ्यान आपल्यो प्रार्थना वर्जीन मेरीक अर्पीत करताले तें पळयलें. हो पवित्र देखावो पळोवन फ्रांसीसाचें शुद्ध आनी सादें अंतस्करण वर्जीन मेरीच्या मोगान भरून आयलें. ताणें दुख्खी काळजान

म्हणलें, “ह्यो प्रार्थना म्हाका येनात. आई मेरी, हांव तुका कसो खोशी करूं?”

पूण रोखडीच तागेल्या शुद्ध अंतस्करणान ताका वाट दाखयली. तो संयमान ते संन्यासी इगर्जेंतले भायर सर सर रावलो. आनी ते भायर गेले म्हणटकर सवकासायेन सगळें शांत जातकर फ्रांसीसान इगर्जेंत वचून मुखेल दरवाजे भितरल्यान बंद केले. म्हणटकर ताका कोणालोय व्यत्यय येवचो नाशिल्लो.

फ्रांसीसान आपली सामानाची पिशवी सोडली आनी ताणें तातूंतल्यान सुरयो, कांचेच्यो बश्श्यो, शिशाचे गुळे आनी खूबशो हेर वस्तू भायर काडल्यो आनी आपल्या खेळाक सुरवात केली. आरतून परतून तो आनंदान मोठ्यान म्हणटालो, “ही हातचलाखी तुका आवडटा, आई मेरी?”

त्या संन्याशांतलो एक संन्यासी थंय लागींच रावतालो. ताणें इगर्जेंत जावपी विचित्र आवाज आयकले आनी तो इगर्जे कडेन आयलो. पळयल्यार इगर्जेंचे मुखेल दरवाजे बंद आशिल्ले. तो दाराचे चावयेच्या बुराकांतल्यान भितर पळोवंक लागलो. आनी कितें पळयतलो? फ्रांसीस जमनीर आपले तकलेन उबो राविल्लो आनी तागेले पांय हवेंत दोन व्हडले शिशाचे गुळे घुंवणायताले. पांयांनीच ते गुळे एका फाटल्यान एक अशे उडोवन परते पांयांनीच जिखतालो. आनी आनंदान तो वर्जीन मेरीक विचातालो, “आई मेरी, हो खेळ तुका कसो आवडटा?” अकस्मात तो जड गुळो

फ्रांसीसाल्या पांयां वेल्यान निसरलो आनी ताच्या कपलार पडलो. ताका घुंवळ आयली आनी तो निपचीत जावन जमनीर पडलो.

तो संन्यासी बुराकांतल्यान हें सगळें पळयतालो. पूण ताका कितें करचें तें कळ्ळें ना. इतल्यांत इगर्जेंत एक उजवाडाचो झोत आयलो. आनी त्या उजवाडांतल्यान वर्जीन मेरी सव्या वेल्यान सपणां देंवन आयली आनी फ्रांसीसा म्हर्यांत दिमयेर बसली. आपल्या रेशमी झग्यान तागेल्या कपला वेली हूम पुसली. इतलें जाता सर संन्याशान कशेंबशें दार उकतें केलें. पूण त्या वेळार वर्जीन मेरी नाच्च जाल्ली. त्या संन्याशान म्हणलें, शुद्ध काळजाक सदांच देवाचें वरदान लाभिल्लें आसता.

* * *

## ३४. सत्य म्हणल्यार देव (III)

कोल्हापुरच्या खंयच्यातरी एका स्कुलांतलो तो वर्ग आशिल्लो. वर्गशिक्षकान भुरग्यांक गणिताचे प्रस्न सोडोवपाक दिल्ले. कांय वेळान भुरग्यां भितर चलिल्लें फुतफुतप शिक्षकान आयकलें. भुरगीं कुरकुरतालीं. सोडोवपाक दिल्ले गणिताचे प्रस्न तांकां शिकयनाशिल्ल्या धड्यांतल्यान घेतिल्ले. म्हणटकर भुरग्यांक ते प्रस्न सोडोवंक आयले नात.

शिक्षकाकय आपली चूक कळून आयली. पूण ताणें पळयलें, गोपाळ नांवाच्या एका बुद्धिमान भुरग्यान तीं गणितां पूर्णपणान बरोबर सोडयल्लीं आनी तो आपले उत्तर पत्रिकेंत तीं बरयतालो. शिक्षकान गोपाळाक शाबासकी दिली आनी म्हणलें, “तुवें सगळीं गणितां धडो शिकोवचे पयलींच तुगेले बुद्धीन सोडयलीं. बरें केलें तुवें गोपाळ. आतां वच आनी वर्गांत तुजो पयलो नंबर घे.”

गोपाळ उठून उबो रावलो आनी ताणें नमळीकायेन सांगलें, “सर, हांवें म्हगेले बुद्धीन हीं गणितां सोडोवंक नात. गेल्या आठवड्यांत कोल्हापुरच्यान म्हगेलो बापोल भाव आयिल्लो. गणितां हो तागेलो आवडीचो विशय. ताणें म्हाका हींच गणितां समजावन सांगिल्लीं. ते खातीरच हांव तीं आज सोडोवंक शकलों. म्हणून म्हाका दिसता, म्हाका पयलो नंबर फावना.”

शिक्षकाक हें आयकून खूब खोशी जाली. तागेलीं प्रांजलपणां आनी सत्या विशीं तागेलें आशिल्लें प्रेम ताणें दाखोवन दिल्लें आनी हीं गणितां सोडोवपाचें स्रेय आनी स्तुती आपल्याक घेवपाक ताणें नकार दिल्लो.

हो भुरगो दुसरो कोण न्ही तर तो आशिल्लो गोपाल कृष्ण गोखले. तो व्हड समाज सुधारक जालो आनी तांकां महात्मा गांधीजींनी आपलो गुरु मानिल्लो. गोखलेनी भारतीय समाज सेवक ही संस्था स्थापन केली आनी आज ती गरिबांक मोलाची सेवा दिता.

* * *

## आमचीं प्रकाशनां

१) वेंचिल्ले खीण (ललीत निबंध) - दिनेश मणेरकार

२) अशोकथा (कथा) - अशोक कामत

३) ओंवळां (ललीत निबंध) - स. सुधा लवंदे

४) सत्यांजली (लेख्र संग्रह) - संपादन: दिनेश मणेरकार

५) जोगूल (कविता) - एकनाथ गांवकार

६) घोस्त (विनोदी लेख, तिसरी आवृत्ती) - संजय तळवडकार

७) अस्तुरी (कथा) शर्मिला प्रभू

८) अक्षरपुनव (कविता) स्मिता तिंबले

९) कळयो पिटकोळेच्यो (कथा) अशोक कामत

१०) रान वळख्र (बाल साहित्य) दिनेश मणेरकार

११) साईबाब (जिवन चरित्र) अणकार: रामनाथ मं. मणेरकार

१२) लक्ष्यवेध (अर्थीक लेख्र) माधव बस्तोडकार

१३) Musings in medows (वैचारीक लेख्र) डॉ. किरण बुडकुले

१४) गीत राधेय (कर्णाच्या जिणेचेर गीत) डॉ. पद्मनाभ राताबोली.

१५) म्हज्यांतलें हांव (कविता) रुपाली किर्तनी

१६) उमाळ्यांचो कुरपणो (कविता) माया कामत

१७) कोंकणी व्याकरण (पांचवी, सवी, सातवी) अर्चना कामत

१८) कोंकणी व्याकरण (आठवी, णवी, धावी) अर्चना कामत (छापता)

१९) भास रचणूक (आठवी ते धावी) अर्चना कामत

२०) कायद्याच्या दर्यातलीं ल्हारां (लेख्रकाचे अणभव) डॉ. बेर्नार्ड सौझ्झा

२१) ख्रयांनीच श्री सत्यसाईबाबा हो देव? अणकार: रामनाथ मं. मणेरकार

२२) भुरग्यांच्यो काणयो भाग-१ अणकार: रामनाथ मं. मणेरकार

२३) भुरग्यांच्यो काणयो भाग-२ अणकार: रामनाथ मं. मणेरकार (छापता)



परिपूर्ण आनी अर्थपूर्ण जीवन जगप
हेंच खऱ्या शिक्षणाचें सार्थक

- श्री सत्य साई बाबा

संजना पब्लिकेशन्स